# गोंय-
# ५० वर्सां फाटलें

पयलो वांटो

महाबळेश्वर सरदेसाय

सरस्वती-स्मृती प्रकाशन

डॉ. किरण जयंत बुडकुले यांस सप्रेम
पर्वरी, १७-२-९६

# गोंय–५० वर्सां फाटलें

## पयलो वांटो

महाबळेश्वर सरदेसाय

सरस्वती स्मृती प्रकाशन

# मखलाशी

हें पुस्तक खरें म्हळयार चाळीस वर्सांपैलीं उजवाडा येंवक जाय आशिल्लें. आज तें नव्या पिळगेक कितलें रुचत म्हणपाचो दुबाव. म्हज्या पिळगेंतलो खबरेकार बरपी आज सोदल्यार मेळूंक कठीण. म्हजे वांगडचे म्हजे इश्ट कवी, काणयेकार, निबंध आनी नाटकां बरोपी णववें दसक लागचेपैलींच दोळे धापून मेकळे जाले! आडवादाक म्हणटा तसो हांव चुकून एकलो उरलां. आज साप थोडे दुसऱ्या पिळगेंतले बरपी बरैत आसात. आनी सद्या घोंसार आसात आनी तरेतरेच्या बरपाचो पावस घालतात ते नव्या तिसऱ्या पिळगेंतले तरणाटे. तांकां म्हज्यो काणयो, व्यक्तीचित्रां, खबरी वाचपाची इत्सा जायत आनी चुकून ते वाचूंक तयार जाले जाल्यार ते नाव्ख खरवटावन हांसत आनी विटत म्हणपाचो भंय.

मनात आयलें, पुस्तक छापच्यापैली म्हज्या बळखीचे खुसखुशीत आनी चुरचुरीत बरप करपी एक दोन बरप्यांक म्हजें बरप वाचूंक सांगून तांचें मत जाणा जावन घेवचें. तांचो तेंको मेळ्ळो जाल्यार तें छापचें. तांच्या लेखी अभिप्रायाचो पालव मेळ्ळयार त्या आधारार आनी धीरार तें उजवाडा हाडचें

विनोदी बरपी भौ लक्ष्मीनारायण पारज आनी भौरंगी बरपी ॲ. उदय भेंब्रे हाणी म्हजें बरप वाचपाची तकालस घेतली. हांव तांचो भौ उपकारी. ताणी जें बरोन दिलें तें ह्या पुस्तकाच्या दोनय वांटयांत दिलां.

पुस्तकाचें नांव वाचून कोणाक आडखळ्ळयावरी जावं येता. पुस्तकांत आसा तें फाटल्या गोयाचें म्हळयार तेन्नाच्या गोयकारांचें चित्रण. पन्नास वर्सांपैलीं गोयकारांची जी तरा, नुरा आनी परंपरा आशिल्ली ती आज उरूंक ना. आज गोंय आनी गोंयकार पुराय बदल्ल्यात. बदलत आसात.

१-१-१९९६ महाबळेश्वर सरदेसाय

# चंद्रावळ

'प्रस्तावना !' हो शब्द म्हाका मातसो जड लागत
घडये हाकाच लागून जायत, म्हाका खंयच्याय पुस्तका
प्रस्तावना वाचप सामकेंच जिवार येता. आतां म्हाकाच प्रस्ताव
बरवपाचो योग आयला !

प्रो. महाबळेश्वर सरदेसाय हाणी आपल्या हातबरपा
पटी म्हजेकडेन दिली आनी ती वाचून हांवे ताचेर प्रस्ताव
बरवची अशी इच्छा उक्तायली.

'हातबरप !' वाचप म्हळचार म्हाका सामकें केगदी
घुस्पल्ले भशेन जाता. मागीर ते कोणाचेय आसूं. म्हजे लेगी
हातबरप वाचपाक म्हजे कपलाक मिरीं पट्टा !

प्रो. सरदेसायबाब आपले पिरायेची एक्याण्णोय व
हुपून ब्याण्णोय वर्साकडेन पावल्यात. तांतली पाऊणशी वर्सां
ताणी आरती परतीं 'बरौप आनि शिकौप' हेच वेवसाय करपा
घाल्यांत ! ताणी आजपर्यंत फकत हे दोनच व्यवसाय केल्या
ह्या दोन व्यवसायांत मोठे मोठे खांपे बुदवंताकडेन तांचो संप
आयला.

गोयचे म्हालगडे शणै गोंयबाब, प्रो. रामचंद्र शंकर नाय
(प्रो. राणू नायक) हांचेबराबर ते वावरल्यात. भौ. हेगडे देसाया
'भारत' म्हळचार त्या वेळावेलो गोंयातलो 'केसरी'! त्य
भारत सातोळ्यांत तांकां हेगडे देसायानी मुद्दाम आफोवन व्हेल
श्री. दत्ता पै हांचेबरोबर 'हिंदू' त, मागीर भौ. मिनेज ब्रागांजां
प्रकाश (पोर्तुगीज); डिचोले 'गोमंत' अशा कालिका
ताणी संपादना केल्यांत.

आचार्य अत्रे ! हो मनीस म्हळयार महाराष्ट्रांत जावन गेल्ले एक ‘ वादळ ! ’ नाटककार, नट, पत्रकार, साहित्यिक, सिनेमानिर्माती अशा विगड विगड मळार ताणी कर्तुपाचे दोंगर उबे केल्यांत. त्या आचार्य अत्रेबरोबर प्रो. देसायबाबानी संपादनाचे काम केलां. मागीर धनुर्धारी, लोकसत्ता, रविवार उ एराल्द आनि अशा खूब कालिकांनी ते वावुरल्यात. तांकां कोंकणी, मराठी, गुजराती, इंग्लीश, पोर्तुगेज, फ्रेंच अशा भाशांचें गिन्यान आसा.

पोर्तुगीज प्रायमरी शिक्षकाची पदवी घेवन प्रो देसायबाब शिकवपाखातीर गोंयात पणजे, मडगांव, कुकळी, केपें, काणकोण, कदळे अशा जाग्यानी वावुरल्यात.

अशा मनशाच्या पेनातल्यान जे झिरपतलें तें समद्र मंथनांतल्यान झिरपल्ल्या ताकदीचे आसतलें हे हांवें वळखलें म्हजे नशिबान तांचें हातबरपय सुरती रुपयांसारखें फळफळीत देखून हांवें तांचे पुस्तक उमेदीन वाचलें.

गेल्या चाळीस पन्नास वर्सांपयलींच्या गोयांतल्या गांवगिन्या वाठारांतली वसणूक जाणी भोगल्या नियाळल्या तांकां हें पुस्तक वाचतकच आपल्यालें भुरगेपण आपल्याक परते मेळळें अशें दिसूं येता.

‘ कळंतराचें भात ’ वसूल करपाक वेंकटूबाब गोंयदागेर वता–

गोंयदा ! ए गोंयदा !! गोंयद आसारे घरांत ?

‘जेयतां धनयानूं’ ‘ययात’! –मागीर गोंयद भाटकाराक मांदरी घालपाची बायलेक कुरु करता–गोंयदाली बायल सोप्यार मांदरी पातळायता.

रोखडेंच आंवन काष्टेक हात पुशीत गोंयद भायर येता.

केळी शनवताची विडी करून व्यंकटूबाबा सामकार धरत
गोंयदाली बायल रात्नीतली उज्या कोलती भाटकाराक विड
पेटवपाक हाडून दिता.

" आरे ' गोंयदा ! भाताचें कितें ? भात मळून घर
हाडल्यार कितले दीस जाले ? अजूनय तुवे कळंतराचें भात पाव
केलें ना मू ! " अशें म्हणून विडयेचे झुरके घेत वेंकटूबाब गोंयदा
सडसडायता !

तांच्या जायत्या कथानी मनशाच्या विकृतीचें दर्शन घट्ट
चंद्रूमास्तर, फिशाल फिडलीस्त गोवींद शेट, धाकू-अशा कथांतल्या
तांच्याच शब्दानी सांगपाचे जाल्यार " मनशाच्या सभावाइतले
अजापाचें दुसरें कितेंच ना ! "

आता विमानां, मोटारी खूब वाडल्या ताचे बराबर भिरांकूळ
अपघातय वाडल्यात. पूण पन्नास वर्सांपयली बैलांच्या गाड्या
कशेंच आपट नासताना मडगवा भिरांकूळ अपघात जावपाचो
कित्याक जाणा? तर गाडयेकारान बैलांक उदक पाजलेंना ! तांक
तान लागिल्ली, ते तळें पळौन धांवत सुटले. गाडयेंतल्या पॅसेंजरांनी
आकांतान किळांच मारली. वेळ आईल्लो. पूण काळ पावलो नासलो
देखून लोक वांचले ' हो प्रसंग वाचतना ' अजाप, हांसप आनी
भंय ' एकमेकांत घुस्पता आनि कायलोळी जाता !

तांच्या दुसऱ्या एका कथेंत येसवंत चड जोडपाच्या आशे
मिनाखणीर कामाक वता. मागीर ताका आनि ताचे बायले
गुणवंत्याक ' नाका सायबा सस्टी घोव ' अशें जाता ! अ
प्रसंगांत जितेंपण दिसता.

' आवयचो मोग ! ' हो सगळे जगाक पिशें लावपी विशय
सगळे भासांनी ह्या मोगाक उबारून धरला आनि पयल्या नंबरा

बसयला. आवयच्या मोगाचेर कविता ना अशी भास आसत अशें म्हाका दिसना. पूण प्रो. देसायबाबांची 'आवयचो मोग' हो एके वेगळचा आयटावेलो. कथा. बांगडे उजरात्रन तांची 'हुगी' करतात. ती आंवड-तिखट बरी लागता. म्हाका करपाक कळना. खावपाक कळटा. प्रो. देसायबाबाली ही कथा बांगडचा हुगये भशेन लागली !

गोयची गांवगिरी जीण दाखवप ही तांगेली फिशालकाय. तशेंच एका कथेत ताणी मुंबयची जीण त्याच फिशालकायेन मांडल्या. मुंबयच्या लोकलीनी जाता ती खेंटाखेंट, मागीर पाकीट मारप घडप. तातूंतले पैशे, रेल्वेपास बी सगळें वचप, तिकीट मास्तरान धरप, ब्रम्ह दाखवप हे प्रसंग जिते उबे केल्यात.

गांधी सिनेमा काडचे खातीर त्या निर्मात्याक त्या काळाची जीण कशी आसली हे कळपाक गांधीचो संदर्भ नासली पुस्तकां लेगीत वाचची पडलीं.

अशाच एकाद्या गोंयच्या म्हालगडचाक सिनेमा, नाटक बी बरवपाचे आसत तर त्या काळाची जीण उतरावपाक हें पुस्तक खुबच गरजेचे थारतलें !

निमणें प्रो. देसायबाबांच्या उतरानी सांगप म्हळचार, नमना पयलीं चंद्रावळ कित्याक ? प्रस्तावनेचे चिवींग गम पुरो जालें! आतां नमन !!

लक्ष्मीनारायण पारज

# कथा, व्यक्तिचित्रां आनी खबरी

तुमी वाचूंक दिल्लें हातबरप वाचून काडलें. तांतली भा
गोड आनी चालंत अशी लागली. जीं आज वापरांतल्यान गेल्यां
अशी खूबशीं उतरांय तांतून वाचूंक मेळ्ळीं.

हातबरपांतल्यो कथा वाचतना काळाचे नदरेन चार–पां
दसकां फाटल्यान गेल्याची जाणविकाय जाणवता. त्या काळांत
विशय आनी लोकजीण हांचेंय थोडें दर्शन घडटा.

आयज कथेची व्याख्या खूब सदळ वा व्यापक जाल्या. त
पूण, ह्या हातबरपांत आसात त्यो सगल्योच कथा अशें मानूं
म्हजें मन तयार जायना. कांय व्यक्तिचित्रणां दिसतात तर कां
फकत खबरी कशो दिसतात. देखीक;

'जिणेचें सार्थक' हे कथेंत 'कथा' आसा अशें दिसना.

'जलमप्रतिष्ठा' हे कथेक व्यक्तिचित्रणाचो अदीक वास येता
तीच गजाल 'प्राक्तन' हे कथेची आनी 'फिशाल फिडलिस्ता' ची

'कळंतराचे भात,' 'चंद्रू मास्तर' असल्या कथांनी सुर्वे
परिणाम खूब बरो सादला, पूण कथेंत उत्तम बीज आसलें तर
तांचे शेवट मात्शे दुबळे जाल्यात.

हातबरप पुरायेन वाचतकूच म्हाका अशें दिसलें. कथ
म्हणपासारक्यो (आयचे तंत्र नदरे मुखार दवरून) थोडच्यो आसात
आनी चडशो 'खबरी' आसात. 'खबरी' आसात म्हूण त्यो
वायट अशें न्हंय, 'खबरी' य साहित्याचो एक खाशेलो प्रका
जावं येता.

ह्या सगल्या बरपांत सभावचित्रण मात बरें सादलां. 'कथें
तली वा 'खबरीं' तली मुखेल व्यक्ति नदरेमुखार उबी रावता
आनी तिचो सभाव पट्टा.

उदय भेंब्रे

# कळंतराचें भात !

'गोयद भात घेवन आईल्लो ?' वेंकटूबाबान बायलेक विचारलें.

'ना.' लक्षिमबायन एका उतरानच जाप दिली.

'आनी तो वासू, भानू आनी राघोबा हाणीय बी भात हाडून घालेंना मू अजून ?'– तिडकून ताणे दुसरो प्रस्न केलो.

लक्षिमबाय बाबडी हां हूं करीनासतना ओगीच रावली.

'पयशे मागूंक येतात तेन्ना कशे बिलू जावन येतात ! कशे अकलां घेतात पळेलां मू ? आनी आतां फसलेर कळतराचें भात पावतें करपाची धंग आसा जाल्यार पळे तर्पाशोरांक ! मुदल ना तें नाच, आनी कळंतराकय दुतरो दाखयतले म्हणटात ! पैलींच्या मुस्तींतले ते भावार्थी लोक आतां ओखदाकय मेळचेले नात ! गेले ते दीस. पैलीं केन्नाच भाताच्या वसलातीखातीर कोणाच्या दारांत फावटी घालच्यो पडल्यो अशें घडतालें ? खळावेलें भात घरा व्हरच्यापैली कळंतराचें भात शणेगेर पावतें करूंक जाय म्हणपाचो सगल्यांकच हुस्को आसतालो. आनी आतां ? खळावेलें भात केन्ना कोण मळून घरा व्हरता म्हणपाचो वास लेगीत लागचेलो ना ! काळच उरफाटो आयलो म्हळ्यार ! नीत म्हणून इल्लीय उरली ना ! जो उठता तो नागौक पळेता ! हाका फटय, ताका नाड, आनी कमराक बरी दुट्टी काणां घालून, नवी ताल्ल कांबळ खांदार उडय आनी तोंकेराव जावन भोंव ! हाका कितें मनीसपण म्हणटात ? बाबा, आपणे लग्न कार्याखातीर शणैले दुडू घेतिल्ले; कळंतराक फसलेर भात घालपाची बोली भास केल्लो; मुदल काय जल्मांत पावते जावपाची आस्त ना; निदान कळंतर तरी दिवन शणैले उपकार स्मरूंया. आसा ?

आसा कोणाक धेंक ? हांगा कितें दुडू रस्तार पडल्यात म्हण
समजतात हे ? हेर कोणाकय दिल्यार आत्तां रुपयाक दोन आ
कळंतर दिवपाक कितलेशेच गरजेवंत तयार आसात. घाणाक वस
दागिनेय हाडून दवरपाक फाटी नात ! येदी लुसकानी कर
घेवंचेली ती कित्याक ? गावची शेतोड पाड पडू नये, चार ग
सगल्यांकच खावंक मेळचें, वेळार बीं, सारें हाडूंक मेळचें, म्हणू
न्हय ? पुण बऱ्याक गेल्यार बिरमत फुट्टा म्हणटात तें लटि
न्हय ! काकुळटक गेल्याचो परिणाम हो ! नफेक कितें
सगल्यांच्याच तोंडांत माती पडटली एक दीस असल्या ह
चलणुकेन ! '

वेंकटूबाब आनीकय बरोच वेळ आपणालो ओघ घालैतल
आशिल्लो. पुण लक्षिमबाय उठून भितर गेल्यान आपाप तां
तोंड बंद जालें.

भायर साकून घरांत भितर सरनाफुडें, चौखेर तांदुळ वेंची
बशिल्ल्या लक्षिमबायक वेंकटूबाबान तो पयलो प्रस्न केल्लो, आन
फुडें मागीर मुस्तायकी काड्न खुंटयेक लायतां लायतां आन
खांब्याकडचो तांबयो घेवन पांय धुतां धुतां आपणाली फुडल
परवड म्हळ्ळी पांय पुसून आनी आंगोस्तर न्हेसून जातकच त
ओल्तेरार लवंडलो. तितले म्हणसर लक्षिमबाय थाळयां
पोळे आनी जांभांत काफी घेवन चौखेर आयली आनी तिणे त
चवायेर दवरलें.

खातां खातां आनीकय कांय प्रस्न वेंकटूबाबान बायलेक
विचारले आनी तिणे एक दोन उतरांनी तांच्यो जापो दिल्यो.

हो वेंकटूबाब कोण ? तुमच्या मनांत घोळटा आसतलें
सांगतां. तुमी बेतकी गांव आयकलाच आसतलो. थंयचो एक गिरेस्त

सात्रकार. वेंकटू शणै शिवेसकार म्हळयार फामाद. चार केवे गांठीक आशिल्लो एक मनीस. ताचो धंदो कितें? होच. कळंतराक दुडू दिवंचेलो. गांवकारांक, शेतकामत्यांक, पसरकारांक आनी येंप्रेगादांक गरज पडटा तेन्ना तेन्ना दुडू दिवंचे आनी कळंतर घेवचें. तोंडान, घाणपींजोरान, लेत्रान आनी इपोतेकान. हो धंदो तीन पिळग्यो चलत आइल्लो. आजो लाडू शणै, ताच्या फाटल्यान बापुय शाम शणै आनी आतां लाडू शणैचो नातू वेंकटू शणै लाडू शणैल्या मुस्तींन चालू जाल्ल्या कळंतरांतली कांय कळंतरां आज नातवाच्या मुस्तींनय चालंत उरिल्लीं. चडकरून शेतकामत्यांलीं.

थोड्या वेळान वेंकटूबाब पांयांक घालून पर्तून भायर सरलो आनी कुळवाड्यार गलो. एक दोन रीणकाऱ्यांची खबर घेतली. ते घरांत नाशिल्ले. मागीर तो गोंयदागेर गेलो. दारांतच रावन ताणें उलो केलो,

‘गोंयदा, ए गोंयदा ’ गोंयद आसा ह्यरे घरांत ? ’

‘जेयतां धनयानू ययात. ’ अशें म्हणून गोंयदान बायलेक कुरू केली. ती भायर आयली. वंटीकडेन गुठलावन उबी करून दवरलेली मांदरी तिणे फापुडली आनी सोप्यार पातळायली.

वेंकटूबाब बसलो. पांचस मिनटांभितर गोंयद आंवन काश्टेक हात पुशीत भायर आयलो. ताणें कडाशेक खोयलेली पोती काडली तांतुतल्यान इल्लोसो चुरो घेतलो आनी केळीच्या शेनवताचो विडी वळून ती वेंकटूबाबाच्या सामकार धल्ली. वेंकटूबाबान ती घेतली आनी तोंडांत धरली. तितले म्हणसर गोंयदाली बायल रान्नीतली कोलती घेवन भायर आयली आनी ती गोंयदाच्या हातांत दिवन भितर गेली. वेंकटूबाबान ती कोलती घेतली आनी विडी पेटैली.

दोन तीन झुरके मारून जातकच वेंकटूबाबान गोंयदा
विचारलें,

‘ आरे गोंयदा, भाताचें कितें ? भात मळून घरा हाडल्या
कितले दीस जाले? अजूनय तुवें कळंतराचें भात पावतें केलें ना मू!

‘खंयचें भात म्हणटात धनयानू! अंदू भाताचो एक पुण गोट
घरात हाडूंक गावला? थांबाक कीड पडली न्हू! ’गोंयदान जाप केली

‘ म्हणटकच रे ? खळार दाळिल्ल्या त्या येद्या व्हडल्या
राशीक कितें तणच आशिल्लें ? ’ वेंकटूबाबान हासहाण्त प्रस्न केलो.

‘चार मुडियो भात जालें. तें भायल्याभायर धनयान उबारल्लें
न्हू? ’ गोंयदान माथें खरपीत आनी काकुळटेचें तोंड करीत म्हळें.

‘ हें अशें तूं गेल्ल्या तीन फसलांक सांगत आयला. ए
फावट बांदाक खावटें पडून शेतात खारें उदक आयलें म्हणू
पिकलें ना ! दुसरे फावट वारें गेलें म्हणून पोलच जालें! आनी
ह्या खेपेक कणसांक कीड लागली ! पिकलें तें भात धनयान
व्हेलें ! म्हणटकच फटवप तें फक्त म्हाका, अशें मरे ? तीनय
खेपाचें मेळून कितलें भात बाकी उल्लें, सांग आतां तूंच !
वेंकटूबाबान पिरंजळून म्हळें.

‘ धनयानू, म्हणटां म्हणोन रागार जावं नाकात आं !
पुण तुमी तरी आतां कसलो हिशोब घेवन बसल्यात ? इतलीं
वर्सां जालीं. तुमी दुडू दिले ना. हांयें घेतलेना ! तुमगेल्या आज्यान
म्हागेल्या आज्याक दुडू दिल्ले म्हणोन तुमी सांगतात ..’

ताका मदींच आडायत वेंकटूबाबान विचारलें,

‘ हांव सांगतां म्हणचे? ओगीच बगलांठ सांगतां? खत्यार
आज्यान बरोन दवरलां तें फट ? नसत्यानसस्तें तुका लुटून हांव
भात व्हरतां अशें समजता काय कितें तू ? ’

' तशें हांयें खंय म्हणल्लां धनयानू ? म्हाजेर कितें काळ येयला ? ' गोंयदान काचाबुल जावन विचारलें.

' ना मरे ? म्हणटकच तुवें दुबाब कसो दाखयलो तर ?' वेंकटूबाबान म्हळें.

' तशें न्हू धनयानू. पुण तुमीच पळेयात. इतलीं वर्सां तुमकां आमी कितलें भात घातलें ?' गोंयदान सारयल्ल्याबरी करीत म्हळें

' घालें म्हणचे ? घालतलो न्हय ? फुक्याचें घालें ? रिणाचें कळंतर फारीक केलें जाल्यार कोणाचेर उपकार केले काय कितें ! ' वेंकटूबाबान तिडकून विचारलें.

' सगलेंच ईस रुपयांचें रीण ! रुपयाक कुडोव परमाणें इतलीं वर्सां न्हय म्हणल्यार खांडयांनी भात तुमकां पावेलें. तरी रिणाक रीण काळंतराक काळंतर तशेंच उरप ?' गोंयदान नमळायेन विचारलें

' शाणोच मरे तूं गोंयदा ! कळंतर वर्सांची वर्सां फारीक करीत रावलो म्हणून मुदल पावलेंशें जाता ? तशें जाल्यार, तेन्नाच वीस रुपया हाडून दिवन रीण पालौक जाय आशिल्लें तुका कोणे शिकैली ही बुदवंतकाय ? तुजा तुकाच येवजली, काय कोण मेळ्ळो रे आदोगाद ! ' वेंकटूबाबान ताका खिस्शीत विचारलें.

' बुदवंतकाय कसली हेतुत धनयानू ? दिसलें तें म्हणलें हांयें. गुन्याव दिसता जाल्यार पोल्यार मारात, तुमच्या पालवानूच आमकां दीस काडोक जाये गावात. तुमी सामाळ्ळेना जाल्यार वयचें पडटलें गांव सांडून. ' अशें म्हणून गोंयद घरांत गेलो आनी एक बिब्यांची माळ कागदात गुठलावन ती पुडी वेंकटूबावाच्या हातात दिली.

पुण लक्षिमबायच्या तोंडांतल्यान उतर फुटलें ना. वेंकटूबा जेवन भायर गेलो. लक्षिमबायक चरचरून भूक लागल्या आसूनय एक उंडी लेगीत तोंडांत घालपाची तिका इत्सा उरली ना आयदनां वावराडेच्या सुवाधीन करून ती भायर आयली आनि वाती करीत बसली.

# फिशाल फिडलिस्त

गोविंद शेट नागवेकार हें नांव कानांत पडटकच म्हज्या मनांत पयलें ल्हार उखलता तें तागेल्या फिडलावेल्या गोड आनी म्होवाळ कंगरखिसीच्या सुरांचें. इतलें पिशेंलायणे आनी कानमन धादोशी करपी वाजवप हांवे तरी दुसरें आयकूंक ना. नामनेच्या आनी उंचायेच्या जायत्या फिडलकारांचें वाजवप आयकुंचेली तोखेवचेली संद म्हाका कितल्याशाच फावटी मेळ्ळया पुण गोविंद शेटील्या हाताची कुशळकाय आनी नकसुदपणा म्हाका दुसऱ्या खंयच्याच हातांत केन्ना दिश्टी पडलीं नात.

जल्माक येतनाच संगीताचें म्होंवें चोखून आइल्ली अशी एकच जात आज गोयांत दिश्टी पडटा. ही जात शेटींची. एक फावट शेटील्या घरांत आगटें दिश्टी पडनासतना उरत. पुण तबलें, पेटी, फनग्राफ बी नाशिल्लें अशें शेटीलें घर सोदीन म्हळचार ओख- दाक्य मेळचें ना. संगीताचें आनी नाटकांचें पिशें सगल्यांकच थोडे भौ आसता. पुण तांतूत शेटीकडेन वडा मारून जिखपी जात दुसरी चुकूनच मेळ्ळचार मेळटली. शेटींच्या जातींत पैल्या पावंड्याचे अशे जे संगीतकार जाले तांतूत गोविंद शेट एक म्हळचार अतिताय जावंची ना. इंग्लंडांतलो तो चेंबरलेन सायब

सत्रेक जसो केन्नाच पातयलोना, तसोच आमगेलो गोविंद शेट फिडलाच्या काशीक केन्नाच पातयेलो ना.

फिडल वाजौपाची ही विद्या ताणें कशी, खंय, केन्ना आनी कोणाकडच्यान हातासली म्हणपाचें उमाणें म्हाका आसूंच, तागेल्या जिवाच्या इश्टांकय केन्नाच सुटलें ना. वेर्ण्यासारक्या एका कडेच्या गावांत तो ल्हानाचो व्हड जाल्लो. गोयाभायर ताणें तेमेरेन केन्नाच पावल घालूंक नाशिल्लें. अशें आसतना खंयच्या गुरून ताका हें कसब दिलें म्हणपाचें अजाप दिसतालें. म्हाभारतांत एकलव्याची खबर आसा. गोविंद शेट हो असोच एक एकलव्य म्हळयार जाता.

तशें पळेतलो जाल्यार फिडल गोयांत खूब पोरणें. किरिस्तांव तें आज कितलींशींच वर्सां वाजैतात. पुण भारतीय संगीताच्या साथीक सदांच सारंगी पळेतल्या आमच्या दोळयांक फिडलाचो उपेग ह्या खातीर करूंक येत म्हणपाचें केन्नाच दिसूंक नाशिल्लें. गजाननराव जोशी गोयांत पैलेच फावट आइल्लो तेन्ना तागेल्या वाजपाचे गोयांतल्या मुखेल शारांत कांय जलशे जाल्ले. गोविंद शेटीची आनी फिडलाची पैली वळख तेन्ना जाली काय? ख्यालाचें संगीत फिडलाचेर भौ बरें वाजौंक येता म्हणपाचें जोशान पयलेंवयलेंच दाखोन दिलें. तें पळेतकच आमचे जायते पेटयेकार फिडलाच्या फाटी लागले. पुण सारंगीइतलें तें शिकपाक आनी वाजौपाक सोंपें न्हय म्हणपाचें अणभवाक येतकच जायत्या जाणानी ताची वासपूस सोडली. गोविंद शेटच एक खरेलो एकलव्य. आदीं कांय दीस इगजेंतल्या कांतरामेस्त्रीकडेन दो रे मी फा शिकून हाताक ताणें सवंय केली. ताच्या उपरान्त ताणें जें कितें मेळैलें तें ताका देवान दिलें अशेंच म्हणचें पडटलें. संगीताचो खापो कान आशिल्ल्यान ताका तें जमलें.

त्या काळांत वर्सा दोन वर्सांनी ही ना जाल्यार ती नाट
कंपनी गोयांत म्हैने म्हैने उरप आशिल्लें. ह्याभायर जात्रा, का
शिगमे आनी गणपती-सरस्वतीचे गडगंज उत्सव, हांकां केन्ना
उणाव नाशिल्लो. तप करूंक लागिल्लो मनीस आपणाल्या खा
बुद्दीच्या बळग्यान आनी चत्रायेन केदी व्हडली नामना जोड
पावता म्हणपाची नाट गोविंद शेटीन दाखौन दिली. ती फक्त
ह्या जात्रा काल्यांचो सुको पालव घेवन. सुको म्हळयार समज
मू ? घरचें जेवप आनी शेजाऱ्याली सटी वाजौप ! कशेंय जायना
गोविंद शेटीक सरस्पतीन तुस्ट जावन चारय हातानी संगीता
विद्या दिली इतलेंच हांतूतलें सार घेवंचेलें.

हे भशेन गोविंद शेटीन बरींच वर्सां गोयांत काडलीं. गावे
गाव भोंवन नाटकां शिकोप आनी वाजौप हेंच तागेलें नित्या
काम जावन राविल्लें. दसरो जालो रे जालो, गोविंद शेट सल्लो
भायर. मागीर तो खंय खंय पावत आनी पर्थून केन्ना घरा य
म्हणपाचें घाडयाच्यान लेगीत सांगूंक नज आशिल्लें.

तो आनी तागेलो आवय अशीं दोनच मनशां घरांत. आवै
बाबडेक हुसक्यान कितें जातालें तें तिगेलें तीच जाणा ! दोळयांच
पंटचो दुखांनो जळौन ती पुताची वाट पळेत रावताली. चुकून
तो मर्दी आयलो घरा जाल्यार एकादुकलो दीस उरतालो. पर्थू
रोखडोच लागलो चलूंक.

तशें घरांत मात तो कितेंच उणें जावंक दिना आशिल्लो अं
नाटकांचें कंत्राट घेतलें म्हणटकच आदीं अर्दे पैशे तो घेय आन
घरांत संसाराचो पुरमेंत करून दवरून मागीर भायर सर. पुण पू
बाबडो खय कसो विडविट्टा, वेळार गोटे खाता काय ना, दे
जाणा, अशें म्हणत ती हुस्कार सोडीत आसताली.

अखेरेक तिणें येवजिलें, पोराक दावें घालून सोडल्याबगर तागेली ही भोंवडी सुंटची ना. वाडवडलांलो भांगरासारको वेवसाय सोडून गांवोनगाव भोवन भीक मागपाची ही अवदिसा पोराक कशी येवजली काय म्हणपाचेंच तिका अजाप दिस ! असल्या ह्या ताच्या जोडीच्या कितलेशेच पटीन अधिक जोड ताच्यान घरांत बशिल्ल्या जाग्यार करूंक येवं येताली अशें तिका दिसतालें. लग्न करतकच पुण पोराची मत जाग्यार येत काय, अशें तिच्या मनांत आयलें.

तिणें भावाक आफौन हाडलो आनी ताचेकडेन फुतफुतून सगलें जथापथ जमैलें. नारायण शेटीकय धुवेक आतां कशी उजंतलों म्हणपाचो हुस्को न्हीद पडूंक दिना आशिल्लो. ताणें आंबट तें मट्ट केलें. सगली थारावणी बोलीभास जाली आनी शिवरात्रेकडेन पूत घरा आयलोसो पळौन आवय ताका सव्यार चडौन मेकळी जाली

गोविंद शेटीली होंकल म्हळचार तागेल्या मामाली धूव ताका ती परकी न्हय आशिल्लीच. भुरगेपणांत ताणें तिका पळेल्ली पुण फुडें ती इतली लिकलिकीत आनी शिरवंत जायत म्हणपाचें ताका सपनांतय दिसूंक नाशिल्लें. तिका पळौन तो खोशी जालो. संगीतातले म्हालगडे म्हळचार रसिकांतले रसिक म्हणपाचें कितें तुमकां सांगूंक जाय !

कितें जाप करची म्हणपाचें ती येवजिता म्हणटासर मांय भायर आइल्ल्यान उलौचें काय उलौं नये तेंच तिका थारांवंक येना जालें. कितेंय तरी काळजाक झोंबसारखी जाप दिवन आपणालो किवाटो ल्हव करचो अशें तिका दिसतालें. पुण मांयसामकारा घोवाफुडें उबी रावपाची तिका सवंय नाशिल्ली. ती उलैतली कशी ?

त्या काळांत वर्सा दोन वर्सांनी ही ना जाल्यार ती नाट
कंपनी गोयांत म्हैने म्हैने उरप आशिल्लें. ह्याभायर जात्रा, का
शिगमे आनी गणपती-सरस्वतीचे गडगंज उत्सव, हांकां केन्ना
उणाव नाशिल्लो. तप करूंक लागिल्लो मनीस आपणाल्या खास
बुद्दीच्या बळग्यान आनी चत्रायेन केदी व्हडली नामना जोडू
पावता म्हणपाची नाट गोविंद शेटीन दाखौन दिली. ती फक्क
ह्या जात्रा काल्यांचो सुको पालव घेवन. सुको म्हळ्यार समज
मू ? घरचें जेवप आनी शेजाऱ्याली सटी वाजौप ! कशेंय जायन
गोविंद शेटीक सरस्पतीन तुस्ट जावन चारय हातानी संगीताच
विद्या दिली इतलेंच हांतूतलें सार घेवंचेलें.

हे भशेन गोविंद शेटीन बरींच वर्सां गोयांत काडलीं. गावो
गाव भोंवन नाटकां शिकोप आनी वाजौप हेंच तागेलें नित्याचे
काम जावन राविल्लें. दसरो जालो रे जालो, गोविंद शेट सल्लोच
भायर. मागीर तो खंय खंय पावत आनी पर्थून केन्ना घरा येत
म्हणपाचें घाडयाच्यान लेगीत सांगूंक नज आशिल्लें.

तो आनी तागेली आवय अशीं दोनच मनशां घरांत. आवैक
बाबडेक हुसक्यान कितें जातालें तें तिगेलें तीच जाणा ! दोळ्यांच्ये
पंटचो दुखांनो जळौन ती पुताची वाट पळेत रावताली. चुकूनसो
तो मदीं आयलो घरा जाल्यार एकादुकलो दीस उरतालो. पर्थून
रोखडोच लागलो चलूंक.

तशें घरांत मात तो कितेंच उणें जावंक दिना आशिल्लो आं !
नाटकांचें कंत्राट घेतलें म्हणटकच आदीं अर्दे पैशे तो घेय आनी
घरांत संसाराचो पुरुमेंत करून दवरून मागीर भायर सर. पुण पूत
बाबडो खय कसो विडविट्टा, वेळार गोटे खाता काय ना, देव
जाणा, अशें म्हणत ती हुस्कार सोडीत आसताली.

अखेरेक तिणें येवजिलें, पोराक दावें घालून सोडल्याबगर तागेली ही भोंवडी सुटची ना. वाडवडलांलो भांगरासारको वेवसाय सोडून गांवोनगाव भोवन भीक मागपाची ही अवदिसा पोराक कशी येवजली काय म्हणपाचेंच तिका अजाप दिस ! असल्या ह्या ताच्या जोडीच्या कितलेशेच पटीन अधिक जोड ताच्यान घरांत बशिल्ल्या जाग्यार करूंक येवं येताली अशें तिका दिसतालें. लग्न करत कच पुण पोराची मत जाग्यार येत काय, अशें तिच्या मनांत आयलें.

तिणें भावाक आफौन हाडलो आनी ताचेकडेन फुतफुतून सगलें जथापथ जमैलें. नारायण शेटीकय धुवेक आतां कशी उजंतलों म्हणपाचो हुस्को न्हीद पडूंक दिना आशिल्लो. ताणें आंबट तें मट्ट केलें. सगली थारावणी बोलीभास जाली आनी शिवरात्रेकडेन पूत घरा आयलोसो पळौन आवय ताका सव्यार चडौन मेकळी जाली

गोविंद शेटीली होंकल म्हळचार तागेल्ल्या मामाली धूव ताका ती परकी न्हय आशिल्लीच. भुरगेपणांत ताणें तिका पळेल्ली पुण फुडें ती इतली लिकलिकीत आनी शिरवंत जायत म्हणपाचें ताका सपनांतय दिसूंक नाशिल्लें. तिका पळौन तो खोशी जालो. संगीता-तले म्हालगडे म्हळचार रसिकांतले रसिक म्हणपाचें कितें तुमकां सांगूंक जाय !

गोविंद राधेचें तें जोडें पळतकच आवैच्या जिवाक सूऽ जालें. एका व्हडल्या संकश्टांतली मेकळी जाल्ल्याबरी जावन तिगेलें मन भुरकुटून नाचूंक लागलें.

पुण शिगमो तेंकिल्लो. बायल अप्सराय जाली म्हणून गोविंद शेटीक घरांत थारून सुख कशें लागतलें आशिल्लें ? कंत्राटाप्रमाणें पुनवेकडेन नाटकां माचयेर हाडपाचीं आशिल्लीं. तो हळदी आंगाचोच उठून बार्देस वेन्यां चलूंक लागलो.

बायलेक सभाविकच वायट दिसलें. पुण कितें करतली. म
शाणी आशिल्ली. तिणें सुनेक समजायली. आनी थोडी
शिटकायलीय. 'हाच्या फुडें घोवाक घरांत नंदवपाचें काम तु
आनी तें तुज्याच करामतीचेर आधारून उरतलें,' तिणे सुने
सांगलें. आपल्या जापसालदारकेंतल्यान ती मेकळी जाली.

शिगमो जालो; चैत्रपुनव जाली. मागीर फुलविड
पंचमय जाली. आनी उत्साव सोंपले. गोविंद शेट घरा आयल
आतां दसऱ्यामेरेन पूत घरा उरतलो म्हणपाचें येवजून आवै
खोस जाली. वाल आतां रुखाक वेंटाळतली आनी मागीर पुता
नाटकपिशें देंवतलें म्हणपाच्या समाधानांत आवय गुल्ल उल्ली.

चार म्हैने सांजेच्या ओताच्या पयसेबरी केन्ना सोंपलें म्हणपा
कोणाकच कळलेंना. ह्या चार म्हैन्यांत गोविंद शेट सगीं
आशिल्लो काय धर्तरेचेर ?

गोशिद शेटीक भौच वायट दिसलें. ब्रह्मदेवान राधक अप्सरे
रूप दिवपांत तिळय उणो करूंक नाशिल्लो. पुण अप्सरेची कळा ?

शेटींच्या जातींत संगीताची रूच दादल्यांतच उपाट्ट कशी
आनी बायलांत तितलीच उणी कशी, म्हणपाची गजाल अजापाची
मानूंक जाय. हेर जातींत चडशें अशें दिश्टि पडना.

राधा आनी संगीत हांची इश्टागत आदोळी आनी दुदी हांच्य
इतलीच आशिल्ली हें ध्यानात येतकच गोविंद शेटीक मरणप्रा
दुःख जालें. तिका संगीत कळना इतलेंच जाल्लें जाल्यार
व्हडलेंशें तपलें बुडचें नाशिल्लें. पुण ती सात पिळग्यांची दुस्मान
काय आशिल्ल्याबरी संगीताचो दुस्वास करी ! तें पळेतकच, काळ
आपलो प्राणच ओडून व्हरता, अशें गोविंद शेटीक दिसलें. 'देवा
कसल्या म्हज्या पातकांचें प्रायश्चित म्हणून तुवें म्हाका हें शासन

भोगैलें ?' ताणें मनांतल्या मनांत होंडको फोडलो. ह्यापरस देवान तिका भेरी कित्याक केली ना, अशेंय तागेल्या दुखेस्त मनांत जोगलावलें.

आतां हावे सांगचे आदींच तुमी मनांत समजून रावल्यातच आसतले. घोव बायले भितल्ली ही नपड वाडत रावली तांकां एकठावपापरस वेगळावपाचेंच काम ती इल्ली इल्ली करूंक लागली. चातुर्मास केन्ना एकदा सोंपताशें गोविंद शेटीक जालें

आनी दसरो बिसरो जातकच एक दीस गोविंद शेट मस्तायकी ट्रंकांत भरूंक लागलो तेन्ना घरांतच एक ल्हानशें नाटक जालें !

'कितें? कसली तयारी चल्ल्या? खंय वचपाचें येवजिलां तुमीं?' घोवाक सदळ सोडूंक जायना म्हणपाच्या धोंकणेंतच कांयशें झेनान राधेन विचारलें

गोविंद शेटीक तिगेल्या उतरांयपरस तिगेल्या त्या झेनाचो चड राग आयलो. 'ही कितें समजता काय स्वताक ?' ताणें मनांत म्हळें. पुण राग न्हिवोवन हासहासतच ताणें जाप केला.

तुका बान आमगेल्या संसाराची खबर सांगूंक नाशी दिसता. हांव जातीन शेट आसलों जाल्यारय भांगरपेट शेट न्हय म्हणपाचें तुवें ह्या चार म्हयन्यांत पळेलांच. बेकार बसून न्हिदो काडून पोट भरना हेंय तू जाणाच आसतली. संगीत हो म्हगेलो धंदो. तो गांवाभायर आठ म्हैने चलौनच म्हाका संसाराची भर करची पडटा तुवें हें सदीचेंच ध्यानांत दवरलेलें बरें.'

'शेटीच्या कुळांत जल्माक येवन कलंवताचो धंदो करपांत तुमकां इल्लीय लज दिसना ?' तिणें नेटान म्हळें.

'तूं जें उलैली ताचो अर्थ तुजो तुका पुण समजलो ? कलंव-ताचो धंदो म्हणून तूं कसल्या वस्तूक हिणैता ? हेर सगल्या

धंद्याप्रमाणेंच गावप वाजवप होय एक उजळ धंदोच म्हणपा
तुका केन्ना कळटलें ? घडीभर होच धंदो अधिक श्रेष्ठ मानत
हांव. हेर धंद्यांबरी कोणाच्यानय करूंक जाता असलो धंदो न्ह
हो. जल्म गुण जाय पडटात ताका. कळ्ळें ? नशिबांत आसल्यार
ताचो लाव घेवंक मेळटा ! आनी हेंय बरें करून आयक ! पैलीं
दीस सोंपले. गावप नाचप हो आतां कलंवतांचोच थवो उरू
ना ! विद्या आनी कळा खंयच्याच जातीचो फांत न्हय ! बुद्दी
बळगें आसा, तांक आसा, देवाची कृपा आसा अशा कोणाकय त
मेळूंक जाय. भांगरा रुप्याचे आनी माणकां मोतयांचे अळंका
करपाक येवप हीय बी व्हडलीच कळा. हांव न्हय म्हणना. पु
म्हाका ती कळना. रुचना. शिकचीशें दिसना. ही कळा जाण
जाल्ले जायते शेट गोयांत आसात. म्हगेली कळा मात सा
थोडया लोकांक कळटा ! तुका हें सांगचें पडटा हें दुर्दैव ! संगी
म्हणटात तें कितें हें तुका कळिल्लें जाल्यार कितलें बरें जात
आशिल्लें ! पुण म्हजें नशिबच फुटकें ताका तूं तरी कि
करतली ?' ताणें एक हुस्कार सोडीत म्हळें.

'नशीब कोणाचें फुटकें तें देवच जाणा ! उलैल्यार तोंडाभाय
वतलें म्हणून ओगी रावचें पडटा ! तिणें घळघळीत जावन म्हळें.

'आनीक कितें उलौपाचें उल्लां तुवें ! घोवाक उणाक लेखप
उलौन उलौन आनीक कितें उलैतली ?'– गोविंद शेटीन तिड
कीन विचाल्लें.

'तें आसूं. पुण हाच्याफुडें हो नाटक्याचो धंदो सोडपाक जा
तुमी ! हांव तुमकां घराभायर वचूंक दिवपाची ना ! वाडवडलांल
धंदो करपांतच भुषण आसता. नाटकांय करतले जाल्यार ताक
रीत आसा. आमगेले लोक कितें कांसरपाली नाटकां करिनात ?

गावप वाजवप सगलेच करतात. पुण तुमकां करूंक जाय धवगे-पणाचो धंदो ! मास खालें म्हणून हाड गळचांत बांदूकच जाय अशें ना ! तांकां मेळटीत शिकोपी कोणय. तुमी वचपाची गरज ना ! ' बायलेन पर्थून नेट दाखैत फर्मायलें.

बायलेचें तें उलवणें आयकतकच गोविंद शेटीन येदो वेळ थातारून धरलेलो राग ताच्या वेंगांतल्यान सुटलो. बायल इतली सुबेर्ब जायत म्हणपाचें ताणे लेखूंक नाशिल्लें. आतां आसूं भोंगूं म्हणून उपेग ना. हिका येन्नाधर निवळावंक जाय. ना जाल्यार ही फाल्यां माथ्यार चडटली. इक्षुदंडा तिळा शुद्रा मर्दनम गुण वर्धनम म्हणटात तेंच खरें, अशें मनांत हाडून ताणें थरथरतच घेंकणो घालो,

' चड शाणी जावंक सोदूं नाका ! बायल केली म्हणून म्हगेल्यो सगल्यो जायण्यो तुज्या माथ्यार उबारूंक ना ! कळ्ळें ? तूं म्हगेली बायल; हांव तुगेली बायल न्हय ! तुज्या रेस्पेतान तूं राव. मेळटा थंय तुगेलें शाणेपण आयकूंक हांवें कितें कांकणा भरूंक नात हातांत ! समजलें ?'

आवय भितर वासरेंत आशिल्ली. पुताची ही फोग भातेरी आयकतकच ती सट् करून भायर आयली आनी कितें जालां काय म्हणून सरांव घेवंक लागली.

राधा आंगाक उजो पेटील्ल्याबरी सगलीच घुस्मट्टाली. धोवाक कितें जाप करची म्हणपाचें ती येवजिता म्हणटासर मांय भायर आइल्ल्यान उलौचें काय उलौं नये तेंच तिका थारांवंक येना जालें. कितेंय तरी काळजाक झोंबसारखी जाप दिवन आपणालो किंवाटो ल्हव करचो अशें तिका दिसतालें. पुण मांयसामकारा घोवाफुडें उबी रावपाची तिका सवंय नाशिल्ली. ती उलैतली कशी ?

मोन्यानी मान सकला घालून खटू जाल्ल्याबरी दोन खीण त
तशीच उबी रावली आनी मागीर फाट परतून नागीण कशी त
कुडींत भितर गेली.

आरैक सारकोसो थाव लागलोना. घोव बायलेचें कितेंय त
तिडलां म्हणपाचें तिच्या घ्यानांत आयलें. इतले दीस तागेल्य
वागपासवरपावेल्यान, दोगांयचें जाय तशें मेळांय जावंक न
म्हणपाचो अदमास तिणें केल्लोच. तातूंत हें येवजूंक नाशिल्लें
पळेतकच बाबडी निर्शेली. घळ्ळ जावन तिच्या दोळयांत दुख
आयलीं. तीं पुसून पुताक तिणें मायेन प्रस्न केलो,

'गोंदू, कितें जालें पुता ? खुबलो कित्याक तूं ? कितलीं
जाल्यार तुजी बायल पुता ती. तिका अशी केंच केंच केल्यार तुज
ओड तिका कशी दिसतली ? ह्या घराची माया तिका कशी
लागतली ? बायलेक दुखी करून ह्या संसारांत पुता घोवा
केन्नाच सुखी जावंक मेळूंक ना. तुमी दोगांनीय बरे भशेन नंदचें
आनी म्हाका तुमगेलें सुख पळौंक मेळचें इतलीच पुता म्हगेल
म्हातारपणांत इत्सा उल्ल्या. कितें ? कितें जालें तुमगेलें ?'

गोंविद शेट कांय एक उलैलो ना. मोन्यानी आपणाल
मुस्तायकी ट्रंकांत भरपाचें काम तो करीत रावलो. आवैल
उतरां कानांत पडूंक नाशिल्ल्याबरीच ताची नुरा दिसताली.

'राग आयलोरे पुता ? तूं शाणोसुर्तो आसून ल्हान भुरग्याबरी
अशें कितें करतारे ? पापया, तुमगेल्या ह्या तरेक लागून म्हगेल्य
काळजाक कितें वेथा भोगता ती तुका कशी कळटली?' अशें
म्हणून ल्हवूच येवन ती ताच्या म्हन्यांत बसली आनी मागीर
ताची फाट सांसपुक लागली.

त्याबरोबर येदो वेळ पाटाच्या उदकाबरी आडावन दवरलेले

तागेलें दुःख वागोणी कशें धावंक लागलें. ताणें हुडकी काडून तिज्या होटींत तकली मुंगरली आनी ल्हान भुरग्याबरी तो हमसून रडूंक लागलो.

तें पळौन आवय सामकी गोंदळून गेली. कितें करतकच पुताचो किवाटो थांबतलो म्हणपाचें येवजू येवजून तिका कांयच सुचना जालें. ती ताची फाट सांसपीत आपुणय दुखां गळैत रावली.

आपुण आनी घरकान्न, दोगांय मजगतीं बुद्दीचो, रुचींचो, विचारांचो, संस्कारांचो आनी चडांत चड म्हळचार तिर्सुवाद-पणाचो, हटीपणाचो केदो व्हडलो फरक आसा, केदो व्हडलो दर्या पातळ्ळा, आनी एकाक दुसऱ्याच्या म्हऱ्यांत वचून वेंग मारतलो जाल्यार कितलें पेंवन वचचें पडटलें, आनी तें साहस केलेंच जाल्यार म्हऱ्यांत पावंचे आदींच मदींच बुडून मरपाचो प्रसंगय कसो येवं येता हें सगलें येवजून ताचें थांबूंक येता आशिल्लें रडें आनीक वाडूंक लागलें.

आवैक बाबडेक मात हें वादळ उखल्लें कशें म्हणपाचें कळ्ळें ना. जें कितें टळचें म्हणून येवजून आपणें पुताचें लग्न केलें तेंच अद्रुण उरफाटें जालें म्हणपाचें पळौन तिका कच्च जालें. सटी-समाशीं पुताचे पांय घराक लागताले तेय आतां अंतरतले काय कितें अशें मनांत येवन तिचो आवरो उडलो !

# चंद्रू मास्तर

चंद्रू मास्तर घरांत भितर सरिल्लो मात, ‘ आयलो ! दादा आयलो ! आतां प्लेटी वाजैतलो गया !’ अशें म्हणत तागेलीं तिगांय भुरगीं उडयो मारीत आनी ताळयो वाजैत नाचूंक लागलीं.

दीसभर शाळेंत विडविडून, आनी सांजवेळा शाळेंतल
भायर सरतकच चालंत दोन तीन शिकवण्यो करून, पुरो ज
चंद्रू मास्तर सूऽ करून घरांत आइल्लो. सस्ततायेन घडीभर पड
मागीर न्हातलों धुतलों, आनी जेवतकच परीक्षेच्या पत्रिक
उस्तवारी करतलों म्हणपाचें ताणें येवजिल्लें. हिसपाभायर तक
पडूंक लागिल्ल्यान आदींच ताका नाका संसार जाल्लो. त
भुरग्यांची ती करंदाय कानांत पडटकच ताची तकली आ
उसळ्ळी. कुडींत भितर सरून ताणें पत्रिकांचो तो पेळो मे
आपटिलो आनी केंच्च करून भुरग्यांच्या आंगार येवन धो
घालो,

'पैलीं भायर वचात हांगाचीं! आडुी मारून म्हजो
कलकलांव नाकात!'

भुरगीं बाबडीं दीसभर बापायची वाट पळेत रावित
सांजेवेळा तो येतकच फनग्राफाच्यो बऱ्यो बऱ्यो प्लेटी आय
मेळटल्यो म्हणून व्हडल्या उमेदीन तीं खोशयेन आशिल्लीं
धेंगशान तीं जैंच्या थैंच निर्शेलीं आनी मुयेयेदीं तोंडां क
चोराबरी ल्हवूच थंयच्यान कडसरलीं.

चंद्रू मास्तरान सदरो काडून खुंटयाळाक लायलो; आंगो
न्हेसून पुडवें सोडून दवरलें; मागीलदारा मान्न्यांत वचून हात
धुले आनी पर्थून कुडींत आयलो. मागीर सदऱ्याच्या बोलसत
पुडीची दबी काडली; सोंऽ करीत पूड ओडली आनी पिंज
लोणाच्या त्या ओल्तेरार खिन्न मनान लवंडलो.

चंद्रू मास्तर तसो पैलींसावन सबावान पाडो, अवचिन्नाचो
आशिल्लो. एका वेळार भुरग्यांची तर ताका खूबच लगतु
आशिल्ली. आपणालींच न्हय, लोकांलीं भुरगीं लेगीत ताका उ

जाय दिसतालीं. दिवचलच्या त्या शांतादुर्गेच्या विद्यालयांत तो मन लावन आनी भार घेवन शिकैतालो. शाळेनल्या ल्हानव्हडांक म्हऱ्यांत काडी बापायच्या मायेमोगान आनी चुरक्यान तो तांगेलें कितें चुकता तें तांकां दाखैतालो, सांगतालो. तांकां बऱ्याभल्याची बद्द दितालो. शिकपी भुरग्गांक्य चंद्रूमास्तराची भौच व्हडवीक दिसताली. ताका तीं देवाबरी मानतालीं

खरें म्हळचार चंद्रू आमोणकार फिरंगी शाळेचो मास्तर. तो लिसेव, नोर्मालं बी करून प्रोफेसोर जाल्लो पुण फिरंगी भास शिकोपांत फक्कत वेळेचो, स्रमांचो अनी दुडवांचो विद्वाट, ती भास शिकपांत फिरंग्याचो बंदो जावपाखेरीज हेर कसलोच लाव ना, म्हणपाचें कांय वर्सांच्या अणभवान ताच्या ध्यानांत आयलें. धिचेंभर भुरग्यांल्या नाखूटभर मेंदवांत दुदांतल्यान येवंक नाशिल्ली भास रिगवप म्हळचार अजापाचीच गजाल न्हय ! त्या अणभवान तो शाणो जालो. फिरंगी बरपाक लागून जायत्या जाणांक लात-बडायांचीं शिंगां फुट्टान न्हय थंय उणाकपणाची खंत जावंक लागता. पुण चंद्रू आमोणकारान येवजून सवरूनच गांवठी शाळेंत मास्तरपण करपाचें थारायलें आनी फिरंगी प्रोफेसरकी सोडून तो मास्तर जालो.

मास्तरकी करूंक लागिल्ल्याक चंद्रू मास्तराक मनाची धादोस-काय पोटभर मेळिल्ली, जाल्यारय संसारांतले तरेकतरांचे धक्केचपाटे आनी कुचमणी मात खूबच वाडिल्ल्यो. हाका लागून चंद्रू आमोणकारालया मूळ सबावांतली गोडसाण इल्ली इल्ली उणी जायत गेली. सुवासिक तेलांतलो अत्तराचो वास ल्हवू ल्हवू उडून वतकच खंवट खोबरेल बाटलेंत उरता तशें ताचें जाल्लें. तागेली बेजारणी, फडफडणी, तिडकणी दिसानदीस वाडत

आशिल्ली. शाळेंतलो दळदिरो मुशारो आनी शिकवण्यो क
तांतूंत घाल्ली भर म्हारगायेच्या भगभगील्ल्या उज्यांत कशी
जाता म्हणपाचें ताका दुखत आशिल्लें. पांच मनशांच्या ता
कुटुंबांत म्हाजुजाच्या त्या दिसांत कसले हाल उपाद्रे च
आसतीत ताची चत्राय कोणाकय सोपेपणान करूंक आयल्या
रावंची ना.

चंद्रू आमोणकाराक संगीताची खूबच आवड आशिल्ली.
आनी अनुकुळताय मेळिल्ली जाल्यार पुस्तकी विद्या शिकपाब
तो गावंक शिकूनच नामनेचो गवय जातलो आशिल्लो. पुण
योग नाशिल्लो. गावंक शिकूंक मेळ्ळेना जाल्यारय संगीत
ताची आवड मात केन्नाच उणी जाली ना. तातूंतय ताची
आवड नाटकी संगीताची न्हय आशिल्ली. खाशेल्या खान
संगीताची आशिल्ली. ख्याल, ठुमरी बी विलंबीत लयींतले
हाचें ताका भौच आकर्षण आशिल्लें. तो पणजे शिकता आस
ज्या एका इश्टागेर रावतालो, तो खासा रेडियो विजने
जाणा आशिल्लो. साठ सत्तर वर्सांफाटली ही गजाल. रेडियो
सपसप दिश्टी पडनात असल्या त्या काळांतय ताणें आप
चत्रायेन रेडियो सेट तयार केल्लो. मागीर कितें विचारत
आंदळो खंय मागता एक दोळो जाल्यार देव दिता दो
अजापाची गजाल, ह्या रेडियोक लागून ताचें संगीताचें
रागरागिण्यांचें गिन्यान भौच वाडूंक पावलें. जाल्यारय आपण
संगीताचें शास्त्रशुद्ध शिक्षण घेवंक मेळ्ळेना म्हणपाची ता
खंत मात जलमाचीच उल्ली.

चंद्रू आमोणकार शिकता आसतनाच ताचें लग्न जाल्लें.
भुरगेपणांतच लग्न जातालें. तो प्रोफेसोर जावंचे आदीच ता

एक भुरगें जाल्लें. त्या उपरान्त फुडल्या आठ धा वर्सांत तागेर आनीक दोन भुरगीं जालीं. अजापाची गजाल म्हळ्यार तागेल्या तीनय भुरग्यांक संगीताची आवड ताच्यासारकीच आनी ताच्या इतलीच आशिल्ली. घडये अशेंय बी आसूं ये कीं, मनशाक जें कितें अतितायेन जाय दिसता पुण केन्नाच मेळना, ती इत्सा फुडल्या पिळगेंत संक्रांत जाता. अतृप्त उरिल्ली ती तागेली इत्सा तागेलीं भुरगीं फुडं फळाक [illegible] जित्रों उल्लयार मनाक वा मेल्यार तागेल्या आत्म्याक तें पळोन सासणाची खोस भोगना ! हें खरें काय लटिक तें हांव नकळं. पुण चंद्रू आमोणकारगेल्या भुरग्यांवेल्यान तरी तशें मानचें पडटा.

चंद्रू मास्तरालीं भुरगीं खूब दिसांपसून ताच्या फाटल्यान लागिल्लीं. एक फनग्राफ हाड म्हणून. ज्या पिरायेर लोकांलीं भुरगीं बूटसूट आनी भांगरशिंगर जाय म्हणून आवयबापायच्या फाटीं लागतात, त्याच पिरायेर चंद्रू आमोणकारालीं भुरगीं फनग्राफाचो ध्यास घेवन बशिल्लीं. कोणागेरय लागसार फनग्राफ वाजिल्ल्याचो आवाज कानांत पडलो म्हणटकच तीं थंय वचूंक सोदतालीं. 'लोकांगेर वचूं नये; तुमी फनग्राफ आयकूंक म्हणून वतलीं खरीं; पुण पळेतल्यांक तें कशें दिसतलें ? तांच्या मनांत कितें येतलें ?' अशें म्हणून शिटकायतकच आनी समजायतकच तीं फाटीं सरतालीं खरीं, पुण तांकां कितलें वायट दिसता म्हणपाचें पळौन खासा चंद्रू आमोणकाराक वेदना जातात्यो. पुण पोटभर खावंक जेवंक आनी आंगभर पांगरूंक न मेळपाच्या त्या दिसांत फनग्राफ आनी मागीर नव्यो नव्यो प्लेटी विकत्यो घेवपाचें जमून येतलें कशें ?

विकतो न्हय जाल्यार कोणालोय जायांचो पुण मागून हाडचो

आनी दोन दीस भुगग्यांच्या तोंडार चान्नें फुलिल्लें पळ।चें अ
चंद्रूक यवजतालें. हें जमत जाल्यार सवाय रुपयाच्या खर्चांत धादो
कायेचो पावस घालूंक मेळत अशें ताका दिसतालें. तेन्ना फनग्राफाच्य
सुयांच्या दबयेक सवाय रुपया पडटालो.

चंद्रू मास्तर शिकवण्यो करतालो तांतल्या एका गिरेस्ताग
एक दीस नवोच फनग्राफ हाडिल्लो ताणें पळेलो. तो पळेतकच चं
मास्तराल्या मनांत पंडरी पिकली. ताणें नुलैत मनांत म्हळ
वचूंदी दोन म्हैने. मागीर एक दीस होनीबायक सांगून व्हरूंय
फनग्राफ घराकडेन आनी करूंया भुरग्यांक धादोशी !

येवजिल्ल्याप्रमाणें एक दीस चंद्रू मास्तराचो बेत बेसब
सादलोय खबर काडीनाफुडे होनीबायन ' बरे भशेन, ' अ
म्हणून फनग्राफ घरा व्हरपाक ताका संमती दिली. ' भुरगीं प्लेट
फोडीत आं ! सांबाळून ल।यात. आनी चारपांच दिसांभितर परत
हाडून पायात ! नाजाल्यार बेश्टें हांव हांच्या तोंडांत पडना !
तिणे म्हळें.

फनग्राफ पळेतकच चंद्रू मास्तराल्या घरांत सर्गच देंवन सकल
आइल्ल्याची खोस तागेल्या सुरांक अ।शेल्ल्या भुरग्यांक जाल
व्हडलें चली तर, ' मन सुद्द तुजं गोठ्ठ हाये पिरथि मोलाची !
हें निक्तेंच खंयशें आयकल्लें पद म्हणून भोंवर मारूंक लागल
ताच्या फाटले दोगय चले बापायक प्रस्नार प्रस्न करूंक लागल
बापायन तो विकतोच हाडला म्हणपाचो तांचो बाबडचांचो सम
जाल्लो. फनग्राफ अमक्यालो, चार दिसांभितर पर्तून व्हरू
दिवपाक जाय, म्हणपाचें कळटकच, तांच्या तोंडार फुलिल्ल्य
चान्न्याचेर एकदम निर्शेणेचें कूप आयलें. पुण जावं, चार दी
जाल्यार चार दीस. आयकूंक मेळटा तें खरें, ताणीं मनांत हाडलें.

त्या राती नव्यो नव्यो प्लेटी भुरग्यांक आयकूंक मेळ्ळ्यो. न्हिदल्यानंतरय तांकां ताजींच सपनां पडलीं आसतलीं.

पुण गरिबाल्या घरांत खोस चड काळ तगना म्हणटात तें लटिक न्हय. त्याच सप्तकांत शाळेची सम्हैनाळी परीक्षा आयली. चंद्रू मास्तराक प्रस्न काडपाचें काम करचें पडिल्ल्यान दोन तीन दीस फनग्राफाक हातच लावपाक मेळ्ळोना. भुरग्यांक बाबड्यांक फुड्यांत पुन्नपोळयो दवरून हात बांदून घाल्ल्यावरी जालें ! कितें करतलीं ? बायायक फुर्सद ना. आवैल्या तकलेक सदांच्योच मिरयो. लोकांली वस्त जायां हाडल्या म्हणपाचेंच तिका मानलें नाशिल्लें. ती त्या वस्तूक आफडूंकय तयार नाशिल्ली !

आतां फाल्यां काय तो दवरूंक मेळपाचो ना, म्हणपाचें पळेतकच भुरगीं बापायच्या फाटल्यान लागलीं. ‘ आज सांजे लायतां आं ! ’ म्हणून सांगून चंद्रू मास्तर शाळेत गेलो. तिनसना तो घरांत भितर सरतकच कितें जालें तें हावे तुमकां सुर्वेकच सांगलां.

‘ हीं पोरां म्हाका येवन धोसतात ! कित्याक तुमकां हो नाका जाल्लो उद्देग येवजलो, हांवें नकळ. तुमकां उसरपत मेळपाची नाशिल्ली जाल्यार हाडली कित्याक ही नसती बिरमत घरांत ?’ बायलेन किवांटून म्हळें.

भुरग्यांचेर ओग्याओगी धेंगसो घालो म्हणून आदींच मनांत खटू जावन बशिल्ल्या चंद्रू मास्तराक बायलेचीं तीं उतरां आयकून शेकानशेक भिरभिरी मारली. परीक्षेच्या पात्रिकांचो भरो तपासून फाल्यां सकाळींच तो व्हरून दिवंक जाय, सबंद रात बसून हें काम करचें पडटलें म्हणून चंद्रू मास्तराची तकली उसळ्ळेली. तांतूत हें फोण्ण पडलें.

‘ म्हाका धोंगसूंक आयल्या ती, तुवें लाइल्लो जाल्यार कितें

हात मोडटलो आशिल्लो तुजो ?' हालीं असलीच भास घ
बायलेच्या तोंडांत घोळूंक लागिल्ली.

'जीव वेता जाल्यारय हांव ताका हात लावंचेलीना. प
प्लेट फुटली जाल्यार साडेतीन रुपया भायर काडचे पडटले म्हण
तुमीच म्हणटाले मूं ? !' बायलेन तोंड किल्लून म्हळें.

'पुण तुवें हात लायलो रे लायलो, प्लेटीचे फुटून तीन कु
जातले म्हणून कोणें तुका कर्णपिशाच्च्यान सांगलें ?' र
जिरोवन आनी फकाणाचेर घाल्ल्याबरी करून घोवान विचारलें.

'एक पिशाच्च आदींच मानेर बशिल्लें आसतना कर्णपिशाच्च्य
घरांत भितर सरूंक वाट खैंची मेळटली ?' बायलेन उज्य
पेत्रोल ओतलें.

'हालीं तुजें तोंड खुबच सुबेबें जालां. कितें ओगी राव
म्हणून ? एका तोंडाचीं दोन जातलीं म्हणपाची खबर ना दिसता
ओल्तेरावेल्यान उठत आनी बायलेच्या आंगार वचत घोवान म्ह

'तितलेंच उल्लां आतां तुमी करचेलें ! एका तोंडाक घालपा
जाय तितलेंय मेळवपाची अक्कल नाशिल्ल्याचो दोन तोंडां करपा
बडाय मात आयकुंची! 'धोवाक चाळयल्ल्याबरी करून बायलेन म्ह

तिका फडफडो येवपाचें खरें कारण वेगळेंच आशिल्लें हें घ
तुमच्या लक्षांत येवंचें ना.

फिरंगी शाळेंत शिकौपाचें सांडून गावठी मास्तरकीचें जें का
चंद्रू आमोणकारान पत्करलेलें तें काम तागेल्या सोयऱ्याधायऱ्यां
कोणाकच मानलें नाशिल्लें. पुण तातूंतय चड खेदिश्ट जाल्ली त
बायल. तिका ताचो खूबच राग आइल्लो. जोडींत उणाव येतल
म्हणूनच न्हय; शणैमामपण म्हणटात तें इतल्या शिकिल्ल
सवरलेल्या गिन्यानी मनशान करपासारखें न्हय, अशें तिक

दिसतालें. पुण आपणालो घोव कोल्ली, तो कपाळफोण्णी केल्यारय आयकुंचो ना, म्हणपाचें ती जाणा आशिल्ली. तिणें तेन्ना कांयच आडमेळें हाडलें नाशिल्लें. पुण तेन्नासावन तिच्या मनांतल्यान तो देंवत राविल्लो. हाका लागून घोवबायलेच्या आदल्या सुखी संवसारांत कली रिगून तो सासणाचोच धुमशेणां घालूंक लागिल्लो. घोवाबायलेचो वैलो संवाद वा विसंवाद हो ताचोच परिणाम ! भुरग्यांक बाबडयांक, भोबो नाका, हावूक फाटीं काड, म्हणपाचो प्रसंग आयलो !

आनी मागीर थंय जो फनग्राफ वाजलो तो खंयचो आनी कसलो आसतलो हें हावें तुमकां उक्तें करून सांगपाक जाय ? तुमी तें मनांत वळखून मेकळे जालेच आसतले !

# होंकलेचो पायसर !

कावळो बसलो आनी ताळी मोडली म्हणटात, तशी गजाल संसारांतय जायते फावट जाल्ली दिश्टि पडटा. तशें पळौंक गेल्यार कावळो बसपाक आनी ताळी मोडपाक संबंद कितें ? असो जर कावळो बसता बसता ती ताळी मोडूंक लागिल्ली जाल्यार झाडार ताळीच उरची नाशिल्ली ! कावळयाक मळबार गिरगिरतच रावंचें पडटलें आशिल्लें. पुण तशें चलिल्ल्याचो काय अणभव ना.

कावळो बसतकच ताळी मोडटा ती कसली ? सुकिल्ली, बरगेल्ली, कावळकाठी जाल्ली ! म्हळयार ती कावलाकच आयिल्ली आसता. कावळो बाबडो निमताक सांपडटा. तो बसलो नाशिल्लो जाल्यार ती वजरंवर जावन तशीच थंय उतरली आशिल्ली अशें समजतात तुमी ? फट ! ती मोडूंकच आयिल्ली. कावळयाच्या

भाराबदला मात्सो धुमशेण घालपी वारो येवन ताणें तिका ब
दिल्ली जाल्यारय ती कडक्क करून मोडून जमनीक वेंग मारत
आशिल्लो. कावळो चुकून येवन बसलो आनी ताचे पाय ल
लागतांच तिणें म्हादेव घालो ! हातूंत बाबड्या कावळ्याचो
गुन्याव ?

पुण संसारांत अशें कोणच येवजिनात. कावळ्याक अपश
लेखून विनाकारण ताका दुशेण लायतात !

संसारांत, म्हळ्यार कुटुंबांतय हो कावळ्या-ताळयेंचो न
खुब फावटी हातासलेलो पळौंक मेळटा. जाता कितें काय म्हळ
कुटुंबांत एक नवें मनीस येता आनी एक पोरणें मनीस वेता.
गजाल केन्ना केन्ना लागोलाग घडटा. ताका लागून लोक म्ह
लागतात, तो अमको आयलो आनी ताणें तमक्याची काड काडल
हो त्या अमक्याचो पायसर! वायट पायसराचो रे बाबा हो प्राण
बरो न्हय ! आज एकल्याची काड काडली. आनीक कितल्य
काडटलो देवाक खबर !

आतां तुमी म्हाका सांगात, त्या आयिल्ल्या मनशाक आनी
गेल्ल्या मनशाक संबंध कितें? तो कितें फटाशीचो आंसाळो
तेफळ कीं घालें एक म्हणटकच आदींचें फट्ट करून सरलें भाय
ह्या तेफळान त्या तेफळाक भायर उडंलें !?

पुण हें सांगतलो कोणाक? आनी शिकैतलो कशें? हेर कि
करूंक येत; पुण शाण्या सुरत्या म्हळ्ळ्या मनशांच्या लेग
तकलेंतल्यो पिशेपणाच्यो किडी केन्नाच कोणाच्यान काडूंक नज
त्यो सासणाच्यो चलत आयल्यात आनी इतले शिकले सव
बुदवंत जाले तरी इल्ल्योय कुशीक सरूंक नात !

नाजाल्यार तुमी म्हाका सांगात, नामटू शणैगेर नातू जल्म

आयलो आनी पिराय जाल्लो नामटू शणै वा तागेली घरकान्न खवंसली, हातूंत बाबडचा त्या नातवान कितें पातक केलें ? आजो वा आजी आनीक वांचिल्लीं आनी ताणीं आपणाचो ताथोमाथो केल्लो कितें शिरपुटघाक नाका आशिल्लो ? देवालो आफत्रणो आयलो आनी तो वा ती गेली ! पुण ना. लोक रोखडेंच विचारतले, ' आगा, पुण तो आफवणो आतांच कित्याक येत्रचो ? आदीं वा आनीक कांय वसींनी आयल्यार जाय नाशिल्लो ? नातू मूळार आयिल्ल्यानच नामटूबाबाक दोळे घांपचे पडले ! तुमी कितें सांगतले ! आमी कितें नवेच आयल्यात ? आजवेर असले कितले सुगुरवे आनी पायसर आमच्या नदरेसामकारान गल्यात ! तुमी व्हडले बरपाक्षरी जाले म्हणून न्हय आशिल्लेंच गा कोण आयकून घेतलो तुमगेलें ? '

आतां असल्या शाण्यांक कितें जाप करतलो ? पायसराचें हें गिराण नातवा वा हेर कोणायपरस चड जर कोणाक लागता आसत, जाल्यार तें हुंबऱ्यार तांदळाचेर फापार मारून आनी व्हडल्या लक्तुबायेन दाखैल्या राटांत आपलें रूप नियाळून घरांत भितर सरिल्ल्या होंकलेक ! आदींच बाबडी मायेमोगाच्या, सवंकळीच्या आनीं सवंयच्या आलासऱ्यांतल्यान उठून हुस्कयाच्या, भिरांतीच्या, असवंयच्या नव्या वास्तूंत सासणाची नंदूक आयिल्ली आशिल्ल्यान तिच्या काळजांत खपखपूंक लागिल्लेंच आसता. आनी तातूंत जेन्ना तिका कळटा की आतां वर्सभर ह्या घरांत हांगाची काडो थंय जाली जाल्यार लेगीत तें आपपाप आपल्या माथ्यार येवपाचें आसा, तेन्ना तर बाबडेचो जीव मुयेयेदो जाता. तें वर्स सोंपसर तिका इल्लेंय सुख लागना. तीन तिकाळ ती देवाक गाराणीं घालीत आसता. ' देवा सायबा, ह्या घरांतल्या

सगल्या ल्हान व्हडांक दीर्घ आविष्य दी. आनी म्हाका वगत
घालूं नाका. म्हज्या धेयाच्यो पादुका करून तुज्या पायांत घाल
पुण सगल्याच होंकलांचें हें गाराणें देवाच्या कानार पा
अशें ना. एकादुकल्या फुटक्या नशिबाच्या होंकलेचें ग
वार्टेत कुपांत घुसपून, पावसांत विरघळून, नाजाल्यार अ
करपून मदल्यामदींच नानपश्यात जाता; आनी देव उल्या
पाविल्लयान तिचो कर्मभोग उबो रावंचेलो तो रावताच ! 
कर्मभोग केन्ना केन्ना कसो प्राणघेणो आसता ती एक ल्हा
काणी आतां तुमकां हांव सांगतां.

रामचंद्र परबूगेर भुरगें जायना जायना म्हणटना म्हातारपण
पसय पडचे वेळारसो चलो जाल्लो. आनी घराची नुरा बद
वचून ताका एकदम नवी ओप आयिल्ली. रामचंद्र परोब भाट
वा कामदार न्हय आशिल्लो. पुण जायत्या भाटकारांलीं अ
कामदारांलीं खतीं तागेल्या पसऱ्यार चलतालीं. आनी 
संखिनीं तागेलीं देणीं वसूल करतना ताका रगतां पोटांत घाल
पडटालीं. दोन पिळग्यो मांड चलून तो बरोच आस्तीक जात
आनी गिरेस्तांत मोडटालो. पुण येद्या गिरेस्तकायेक सोभ
वंशाक दिवो ना म्हणून ताका जाताले ते कश्ट येसवंता
जलमान सोंपले. रामचंद्र परोब आनी तागेली घरकान्न धादो
जालीं. ताणें चल्याची सटी कडकडायली. तसली सटी बऱ्य
वसींत त्या गावांत जावंक नाशिल्ली म्हणपाचें जाणटेल्यांचें म
पडलें.

येसवंताक वर्सां जायत गेलीं. ताची मुंज जाली. शाळेत
शिकप सोंपून फुडल्या शिकपाखातीर ताका पैस धाडपाची वे
आयली. तेन्ना, ताका चड शिकौंचो काय नाबीर बसौंचो म्हणपा

प्रस्न उप्रासून तागेल्या आत्रयबापायमजगतीं व्हडलो वाद जालो. 'ताका शिक.न दोतोर वा लेत्राद करप हेंच तुताच्या येस्तादाक फावसारकें जातलें. दोन पिळग्यांनी तागडे जोखांत जीण उस्पिली ती पुरो. आतां मेळैल्लो जोड येसवंताच्या पुण आंगाक लागुंदी. पैसो पुंजावन पुंजावन कितें पुजेक लावंचेलो आसा?' आवैन आपणालें मत्त मांडलें. ताचेर बापायन उपराळो हाडलो, 'आगे, तू म्हणून खंयची वेगळी जातली? बायलो सर्तीक मरतात हेंच खरें! कांय नाका लेत्राद बित्राद! लेंत्राद जावन कितें लोकांच्या घरार मुणीं चडवंचेलीं आसात? त्यापरस हो वाडवडलांचो उद्देगत्र बरो. म्हातारपणांत आतां चल्याक भायर धाडून पर्थून वनवासाचो अणभव दाटून कित्याक बाबा घेवंचो? आमा ती गिरेस्तकाय चार पिळग्यांक पुरो. येसवंताक इल्लेय हातपाय हालौंचेली गरज ना. येवंदी ताका पसऱ्यार!' पुण ती आयकली ना.

शिताबायफुडें रामचंद परबूक हार खावंची पडली; आनी येसवंताक पणजे धाडपाच्या तिगेल्या हटाक मान्यताय दिवंची पडली. अशे भशेन पणज रावन येसवंत शिकलो आनी मॅट्रीक पास जालो.आतां पुण शिताबाय धादोशी जातली आनी चल्याक पस-यार बसूंक आडमेळें हाडची ना, अशें रामचंद परबूक दिशिल्लें. पुण लेत्राद न्हय जाल्यार ताका डागटर करपाची तिगेली उमळशीक तशीच उरिल्ली येसवंत मॅट्रीकेंत वयर आइल्लो पळान तिगल्या त्या इत्सेक फागूर फुटले. ताका कॉलेजाक मुंबय धाडपाचो तिणे हट धरलो.

रामचंद्र परोब कितें करतलो? बायलेचोच एक आग्रो आशिल्लो जाल्यार सोड आशिल्लो. गावांतले सगलेच बरेमागते ताच्या फाटल्यान लागले ताका फुडें शिकय म्हणून. सगलेच इतले

अगत्यान म्हणटात जाल्यार जावंदी. पसरो फाटल्यान सुट्टलो. जा
सुटूं देवाचीच तशी इत्सा आसल्यार ताका कितें उपाय ! चल्या
बरेंभलें जावंचें इतलेंच म्हजें म्हणणें. धनाफाटल्यान आतां म
दिवपाचें देवान येवजिलांशें दिसता! तथास्तु. देवाच्या मनासार
जावं. रामचंद परबून मनाची समजाविशी केली आनी शिताबाय
हुयकार दिलो.

'हां, पुण एक' रामचंद परबून म्हळें; येसवंताक मुंबय धाड
आदी ताच्या गळयाक दावें घालूंक जाय! लग्न जाल्याबगर ता
घरामायर सरुंक मेळचें ना! आसा कोण तुज्या होलमाक ब
चली जाल्यार सांग. घेवया गुठलावन रोखडें. मागीर धाड ता
खंय धाडटली ती!'

येसवंताची व्हाड्डीक करपाची रामचंद परबुली तजवीज आ
म्हणपाचें भायर फुटपाचीच फुर्सद, गावांतल्याच म्हालम्हाजना
रामचंद परबूक घेरलो. येसवंत म्हळचार पावणेर पडिल्लो व
कशी जालो ! अखेरेक रामनाथ पैन लांस घालो तो सा ओ
जालो आनी सात हजार वरदक्षणा थारली !

व्हडा दबाजान येसवंताचें लग्न जालें. रामनाथ पैली चली पि
सुमित्राबाय जावन रामचंद परबूल्या घरांत भितर सरली.

पुण इतलें थारता म्हणसर पांच स म्हैने सहज गेले. येसवंता
तें वर्स फुकट गेलें. माघांत लग्न जालें आनी रोखडोच जुना
येसवंत मुंबय गेलो. चल्याखातीर उदकाबरी पैसो मोडपा
रामचंद परबूची तयारी आशिल्लीच. येसवंताचें कॉलेज, हॉस्टे
बी जथापथ चलूंक लागलें.

पिरूक घोव पैस गेलो इतलेंच दुःख आशिल्लें. बाकी ताग
सगलें धयान आनी दुदान म्हणतात तशें चलिल्लें, कित्याक

उणें नाशिल्लें. गावांतल्या गाबांत ताका आनीक एक आवय मेळिल्ल्याबरी जाल्लें. रामचंद परोबय, साक्षात देवताच घरांत आयली अशें मानून, सुनेची तोखणाय करूंक लागिल्लो.

पुण रामचंद परबूलें हें सुख काळाच्यान पळवं नज जालें म्हणून जावं, नाजाल्यार पिरूलें पूर्वजल्मांतलें संचीत उबें रावलें म्हणून आसूंये, येसवंत मेदिसिनाच्या तिसऱ्या वर्साक आसतना अकल्पित एक दीस मुंबैच्यान तार आयली आनी दुदाचो उपाट भरलेलो हांडो पुराय उमथल्ल्याबरी जालो ! अपघाती मर्णान येसवंत हो संसार सांडून गेलो म्हणपाची खबर त्या तारेन हाडिल्ली!

ही खबर कळटकच रामचंद परबूल्या, रामनाथ पैल्या आनी शेजाऱ्या सामाऱ्यांल्या घरांत कितें जालें आसतलें तें आतां तुमीच चत्रायेन वळखात.

जें जालें तें आतां कोणाच्यानच सुदारूंक नज आशिल्लें. पुण तें जालें तांतूत पिरूचो कितें गुन्याव आशिल्लो ? हेरांचें जालें तशेंच ताचेंय बाबड्याचें जल्माचें लुस्कान जाल्लें. घडये हेरांपरस चडच. पुण येसवंताक ताणेंच खालो म्हणून सगलेच फुतफुतूंक लागले. घोव खावपी लावंसट म्हणून बाबड्या पिरूचेर शिको बसलो ! रामनाथ पैक आनी बायलेक तोंडच ना जालें !

आनी कितें सांगतलो ! पिरू तेंच आशिल्लें. पुण सून आतां देवतेच्या सुवातेर मांयमावांक अवदिसा दिसूंक लागली ! ‘ ही अवदिसा कुळाचो तुळाकार केल्याबगर केन्नाच रावंचेली ना !’ तांकां आतां साक्षात्कार जावंक लागलो ! रातदीस तीं दोगांय सुनेक तोंचूतोंचून खावंक लागलीं .

अपेसापरस मरण बरें अशें पिरूक जालें. ती उलवणीं ताच्यान

सोसूंक नज जालीं. आपणाक जल्माक घालें कित्याक देवान, 
ताका भौन भौन येवजूंक लागलें आनी...

एक दीस व्हडेरातीं मागीलदारा वचून ताणें बायंत जीव दिले

# दायजी मत्सर !

एकाचें बरेंभलें जाल्लें दुसऱ्याच्यान पळौंक नज, अशें कित्या आसचें ? असो मत्सर कित्याक आसचो ? असो दुस्वा अंधुकीपण कित्याक आसचें ? दुसऱ्याचें बरें जालें तशें म्हजेय बरें जावंचें, अशी कोणाकय दाटून इत्सा आसची. अशी इत्स आसप हांतूंत कितेंच वायट ना. सगल्यांचेंच बरें जावंचें अशी इत्स वेदकालासावन ऋषीमुनी करीत आयल्यात. ‘ सर्वेपि सुखिना सं सर्वे संतु निरामयः सर्वे भद्राणि पश्यंतु, नःकश्चित दुःखमान्पुयात अशें विशाळ मन आनी उंच आकांक्षा तांची आसताली. ही आकांक्षा तांच्या वंशांत, कुलांत, गोत्रांत जल्मल्ल्यांच्या आन जियेतल्यांच्या अंतस्करणांत नंदचेली. पुण अशे मनीस तुमक ओखदापुरते लेगीत मेळनात. एकमेकांचें बरें पळौन कश्टी जातात जळटात, जीव पिसुडतात अशेच मनीस संसारांत सगल्या बुवबूचत आशिल्ले दिश्टी पडटात !

ह्या मत्सरांत लेगीत तरा तरा पळौंक मेळटात. कुटुंबांतल्य मनशांमजगतीं आसतात ते मत्सर. एका संस्थेंत वा संघटनें वावुरतल्या वांगड्याभितर आसतात ते मत्सर. शेजाऱ्यासामान्या भितरले मत्सर. हे मत्सर आनी ते मत्सर. पुण ह्या सगल्यां दायजी मत्सर म्हणून एक पत आसा. त्या मत्सराक लागपी मत्स मात दुसरो एकय मेळचो ना ! सगल्या मत्सरांचो तो सम्रा म्हळचार सोबत ! कित्याक काय न्हळचार हेर मत्सर हे मनश

मनशा पुरतेच मर्यादीत आसतात. पुण हो दायजी मत्सर म्हणटात तो पिळग्यापिळग्यांत चलिल्लो, सासणाचो मुळां पातळावंक पळेता असलो भयांकृत आसता !

दायजी हें उतर केन्ना केन्ना दुस्मान ह्या अर्थान वापरलेलें आयकूंक मेळटा, ताचें कारण हो दायजी मत्सरच आसूंये. त्या मत्सराक लागून जें दुस्मानपण दायज्यां मजगतीं उप्रासता तेंच फुडें पिळग्या पिळग्यांनी चालू उरता आनी वाडटा. एका मूळ कुटुंबाचो विस्तार जातकच बापोलभाव, तिपोलभाव, चोपलभाव बी रूांदे आनी फागूर फुटून त्या एका कुटुंबाचीं जीं दसकांनी आनी केन्ना केन्ना शेंकडयांनी कुटुंबां जातात तांकां म्हणटात दायजी. म्हणटकच एकाच रगता मासाच्या ह्या संबंधी मनशांभितर मोग आनी एकमेकांविशीं अभिमान आसूंक फावतालो. पुण तशें केन्नाच घडना. तीं मत्सराच्या भकीक पडटात आनी एकमेकांच्या घरार कुत्रीं चडौपाक लेगीत फाटींफुडें पळेनात. गोयांतले कितलेशेच देमांद ह्या दायजी मत्सरानच जल्माक घाले अशी नाट मेळटली.

दायजांल्या चलयांच्यो खंयय कोणागेर चलिल्ल्यो सोयरिको मोडूंक वावुरप हो ह्या मत्सराचोच प्रताप. अशें सांगतात की एकदा एका दायज्यान आपणाल्या तिपोलभावाल्या चलयेची सोयरीक एका बऱ्या गिरेस्तागेर जुळेली म्हणपाचें कळ्ळें; न्हय, तें लग्न दोन तीन दिसांतच जावंचेलें आसा म्हणपाचें समजलें. आतां कितें करतलो ? ताच्या आंगाक सामको उजो पेटलो. सोयरीक मोडपाच्या बावराक लागतलो म्हळचार फुर्सद खंय उरल्या ! त्या रागाच्या भिरकेंतच ताणें उद्गार काडले, ‘ मारात

रे कोणाय पोराक ! सुतकान तरी फुडें धुकलुनी हें लग्न. मा
पळंव येत कशी बंदिस्ती करचेली ती !'

ह्या दायजो मत्सराची तुमकां पुराय वळख जावंची म्हणून ख
नशीं घडिल्ली एक गजाल तुमकां हांव काणयेच्या रुपान सांगत

वेंकटेसबाब हो एक कुळवंत घराण्यांतलों गोंयकार. तां
आशिल्ल्यो तीन चलयो. पुण त्यो जाल्यो कशो ? पैलीं जाले त
चले आनी मागीर जाल्यो ह्यो तीन चलयो. तुमकां सगल्यां
खबर आसा काय ना, हांव नकळ. तीन चल्यांचेर चली जा
हें व्हडलें संकश्ट! आनी एके फाटल्यान एक अशो तीन म्हळच
सामकेंच मरण संकश्ट ! कित्याक काय म्हळचार तांकां आय
पडटा. आमच्या शाणेल्यांनी तांकां पदव्यो दिल्यात. पयले
म्हणटात तिखळी, तिच्या फाटली दुसरी निखळी आनी तिस
खिळखिळी !

कोणाय बामणाली घरकान्न गुरवार जाली म्हणटकच त
बाळंत जायसर दुगदुगेन तिका जीव नाका जाता. चलो जातल
काय चली ह्या हुस्कयान तिका सामको सुकतडो लागता. पैलीं च
दोन जाल्ले आसले जाल्यार आतां चली जावंची म्हणून ती देवा
पराथता. तिसरोय चलोच जायत म्हणून ती सामकी आक्रासूं
लागता. तिसरोय चलोच जालो जाल्यार मागीर कितें विचारत
जालेंच बगलांठ ! आनीक गुरवचारच नाका अशें तिका जात
आनी आयलोच जाल्यार तो चलोच जांव म्हणून ती देवते
आंगवणी करूंक लागता. पुण घडटा कितें? ह्या खेपेक जाता चली !
पूर्वजल्मांतलें पातक उबें रावलें अशें तिका दिसूंक लागता. चल
जाल्यार कितें इबाडलें ? जायना चली ! तुमी म्हणटले. कित

इ बाडलें? तिखळी न्हय गा जाली चली ! आतां तिका सून करून घेत्रंक कोण तयार जातलो! ?

मौज न्हय ही ' तीन चलयांचेर चलो जाल्यार मात ताका कमलोच आयब ना. आनी तीन चलयांचेर चली जाल्यार मात ती नष्टी ! आतां ह्या शाणेपणाक कितें म्हणटलो ? पुण तांकां हें पिशेपण दिसना. ते हद्द करून तुमकां दाखौन दितले, अशी तिखळी चलो कुटुंबाची कशी वाट लायता, तिका सून केल्यार कशी दुर्दशा जाता, आनी तिखळेफाटल्यान निखळी आनी खिळखिळी जलमाक आयल्याबगर रावनात हो संसाराचो अणभव ! एकेपरस एक खर आनी तांकां सून करतल्याचो तुळाकार! लोकभ्रमाफुडें कोणाचो इलाज आसा ! ?

वेंकटेसबाब बाबडो ह्या बलवत्तर लोकभ्रमाक लागून दुर्घर प्रसंगांन घस्पलो. खयंत्र चलयांची सोयरीक जायना. नात्या पातमांत सोऱ्ययाधायऱ्यांसरी सोयरिकेक वचचेली बंदिस्ती जाल्लीच. पुण वळखीदेखीच्या कुटुंबांतय खबर काडचेली माणसुकी ना.

वेंकटेसबाबाचेर अखेरेक पयसुल्या गावानी सोयरिकेक भोंवचेली वेळ आयली इतल्यानच जालें ना. आनीकय एक मांडणी करची पडली. सोयरिकेच्चीं उलवणीं जावन होंकलेक पळौंक न्हवरेकार येताशें जातकच, भुरगीं कितलीं म्हणपाचें ताच्या नदरेक पडूं नये, चौकशी करपाक संद मेळूं नये अशी जतनाय घेवंची पडूंक लागली. तशेंच अमुक अमुक कडेन सोयरीक चलता म्हणपाची खबर सामकी लिपून उरची, ह्या कानाची त्या कानाक कळची न्हय, म्हणपाचीय शादुरकाय दवरचेली वेळ आयली! एकाद्रो फट न्हवरेकार झडटीच घेवंक लागलो जाल्यार सुरय फटास मारून, चले चार; पैलोच चलो भायर पडला, अशें सांगचेली नामुष्कीय पत्करची पडूंक लागली !

अशें भशेन रगतां पोटांत घालून तिगांय चलयांचें लग्न वेंकटे
बाबान आवा शिवा करून जमैलें आनी कोणाकच सूलूस ला
दिनासतना व्हडल्या दोन चलयांचें लग्न न्हवरेकारांल्या गाव
बिराड व्हरून वांगडाच करून मेकळो जालो.

वेंकटेसबाब एकाच भोंवाडयांत तिगींचेंय उलगून घेवंक सोदता
आनी तेंच बरें जातलें आशिल्लें. पुण बायलेन आडमेळें हाड
'तीन कार्यां वांगडा करचीं न्हय. तेंच एक नकलामीक का
जायत !' तिणें दुबाव काडलो. आनी तिका लागून तिसरें ल
माघांत दवरचें पडलें.

पुण वेंकटेसबाबालो जीव थाऱ्यार उरूंक नाशिल्लो. केन्ना प
म्हैनो सोंपतोलो आनी लग्न थारायल्या म्हुर्ताक करून हुस्क्यामेक
जातलों अशें ताका जाल्लें.

इतली खबरदारी घेतिल्ली तरी तागेल्या ह्या जाल्ल्या आ
जावंचेल्या लग्नांची खबर फुटलीच ! दायज्यांमेरेन तें वर्तमा
पावपाकय चड दीस लागलेना. तांकां आयकतकच व्हडलें अज
जालें ! 'आरे, बंट मरे हो ! हाणें जमैलीं कशीं हीं लग्नां
न्हवरेकारांक कोणेंच सांगलें ना काय, चलयो कशोकात म्हणपाचें
आतां भोगतले फळां ! पुण हें घडलें कशें रे ! कोणाकच क
सुलूस लागली ना ?' वेंकटेसबाबालें विघ्नसंतोशी दायजी फुतफुतू
लागले.

वेंकटेसबाबाचो कार्यभाग सादलो म्हणपाचें पळौन चड घुंवळ
तो लाडूबाब. तागेरय चलयो आशिल्ल्यो आनी त्यो आयबाच्य
न्हय आसूनय तांच्यो सोयरिको खंयच जायनाशिल्ल्यो. तो ताक
आशिल्लो राग. आनी तांतूत बायलेन घालें फोण्ण ! तिणें म्हळ
'न्हिदिल्लेगेर खंय जालो चलो आनी रात जागयल्लेगेर जाल

चली ! लज दिसूंक जाय तुमकां हाची ! लोकांल्यो आयबाच्यो चलयो उजवतात आनी तुमगेल्या रुपागुणांनी हजारां भितल्ल्या चलयांक न्हवरे मेळनात ! कित्याक तुमगेली गिरेस्तकाय आनी बडवचार? पळेयात त्या वेंकटेस नायकान आपणाल्यो अवलक्षणी चलयो कोणाक सुलूस लागूंक दिनासतना बेसबऱ्यो कोणाच्या गळयांत कशो बांदल्यो त्यो ! नाजाल्यार तुमी ! लोकांच्या लजेफुडें आतां म्हाका तकली वयर काडूंक मेळपाची ना ! खंय तरी वचून जीव दिल्यार बरो, दिसता म्हाका !'

लाडूबाबाच्या रागाच्या उज्यांत पेत्रोल पडलें ! ताणें वेळ केलोना. वेंकटेसबाबान खंय, कोणागेर आपणाल्यो चलयो नलैत कशो पावैल्यो ताची बारीक खबर घेतली. आनी तिगांय न्हवरेकारांक चिटी बरैल्यो. सगली खबर आमटाण मिरसांग लावन तपशिलान तांच्या कानार घाली ! होंकलकारान तुमकां शिंगां लावन गुठलायल्यात. सावध जायात. कसल्या प्रसंगाक तुमकां फुडो करचो पडत तें देवाक खबर ! अजूनय जाता जाल्यार प्रसंगांतल्यान वाटावपाचो यत्न करात !

ह्या चिटींनी कसो उजो पेटैलो आसतलो हें तुमकां तर्कान कळटलें. वेंकटेसबाबाल्या तिसऱ्या चलयेची थारिल्ली सोयरीक मोडली म्हणपाचें तुमकां वेगळें सांगपाची गरज ना.

# जिणेचें सार्थक

प्रो. आत्माराम कामत कॉलेजांतल्यान आपणालें पैलेंच लेक्चर दिवन घरा आयलो. ताणें मुस्तायकी काडली आनी सूऽ करून तो धोल्तेंरात लवंडलो. जिणेचें आज सार्थक जालें, ताणें मनांत म्हळें·

ताका व्हडलीच धन्यताय दिसली. खऱ्यानशींच आज ताग
खोशयेक, समादानाक शीममेर उरूंक नाशिल्ली.

गेल्लीं धा वर्सां हें सपन तो हुटहुटून पळेत आयिल्लो.
ताका तें एक दीस सत्य सृष्टींत, वेव्हारी जिणेंत उतरलेलें पत
मेळटलें म्हणपाची इल्लीय खात्री दिसनाशिल्ली. तागेले तें इ
आशिल्लेंच तशें आवाक्याभायलें. सर्व शक्त वगडानय तें सोपे
सफल जायत काय ना कोण जाणा म्हणून दुबावपासारकें..
म्हणटले, कसली उमाण्यांची भास चलंल्या ही हाणें ! आत
फळार करीनासतना सट्ट करून सांगून मेकळो जा, कितें सां
येवजिता तें. ताका व्हडली प्रस्तावना कित्याक ?

तशें जाल्यार आयकात ही गजाल.

आत्माराम कामत हो बापायलो एकलो एकसुरो पुत न्हय
भावंडांतलो तो एक चलो. पुण जलमाक येतना तो सगल्यांप
आयिल्लो. हेरां भावंडांपरस ताचेर जापसालदारकी मं
आशिल्ली.

ताचो बापूय वामन कामत हो रेल्वेंतलो एक सामान्य कर्मचा
ताका आसून आसून मुशारो कितें आसतलो ! त्याभायर
हालींची गजाल न्हय. खूब खूब वर्सां पैलींची, वामन कामत, बा
आनी स भुरगीं. तेन्ना तशी म्हारगाय नाशिल्ली जाल्या
हकटक्याक गांठ घालतना दोळे धवे जाताले.

आत्मारामाक सतरावें सोंपून अठरावें वर्स लागिल्लें. आपु
मॅट्रिक जालों, आपणें पैल्या वर्गातले मार्क मेळैले हाची ता
खोस जाली. बापायचेर आतां व्हडलेंशें चेपण पडचें ना, कॉलेज
वचून सोपेपणीं बी. ए. एम्. ए., जावंक मेळटलें. मागीर आपु
प्रोफेसोर जातलों. ताका भोंच भुरकुटो आयलो. गोयांत ते

कॉलेज नाशिल्लें. पुण म्हणून कांय इबाडपासारकें नाशिल्लें. आत्मारामाचो मामा मुंबय आसतालो. तो थंय रंगांचो वेपार करून स्थायिक जाल्लो. जोड बरी आशिल्ली. तागेर तीन चलयो. चलो नाशिल्लो. ताका आत्माराम खूब आवडटालो. तो ताका आपणालो पूतच कसो दिस. घडये फुडें ताका जावंय करपाचेंय ताच्या मनांत घोळटालें जावये. ताका फुडलें शिकप करपाक आपणासरीं धाड म्हणून भावान भैणीक सांगील्लें. सगलें थरील्ल्या-सारखेच आशिल्लें. पुण प्रत्यक्षांत घडलें तें वेगळेंच.

आत्मारामान फुडे शिकपाक मुंबय वचपाची गजाल काडटकच बापायन ताका शिटकायलो,

‘पुता, तुका उमेदी खूबच आसात. आसचेल्योच त्यो तशो. म्हाका धड शिकूंक मेळ्ळेंना. भुरग्यांक पुण तें मेळचें. घराण्याचें नांव व्हड जावंचें. म्हाकाय खूब दिसता. पुण हें जातलें कशें ? तूं पळेता मू ? संसारांचो हो गाडो ओडप दिसान दीस भौच कठीण जाला. तुज्या फाटल्यान तीन भाव आनी दोन भैणी. हांचें शिकपसवरप आसा. खावपजेवप, न्हेसण पांगरूण हाची भागवण करतनाच म्हाका खडपसूख जावंचें पट्टा. फुडें शिकूंक तूं मुंबय गेल्यार हांगा चलतलें कशें ? तुवें आपलेंच येवजिल्यार जाता ? आतां हाका ताका पायां पडून तुका सिर्विशेक लायतलों; हो म्हाका जड जाला तो संसार मागीर थोडो भो ल्हव जातलो, कितले दीस हांव हें चितीत आसा. तूंच येवजून पळे. तूं मुंबय गेल्यार आमचो परिणाम कितें ?’

आत्माराम कितें उलैतलो ? तो अडवंगी भुरगो न्हय आशिल्लो. म्हगेलो हेत खरो करूंक येत. पुण मागीर बापायक ताचे कितले त्रास जातले ! भावंडांची आवतीकाय कितें जातली ! व्हडल्या

भावान सुवराथान भावंडांक पळेलींनात, लोक दुशण लायतले.
हें सगलें बारीक येवजिलें. आपणाली. इत्सा ताणे फाटीं धुक
बापायक जाता तो पालव दिवपाचें ताणें थारायलें.

बापायचें म्हणणें आशिल्लें, ताणें सरकारी चाकरी क
नात्यापात्याच्या, वळखीदेखीच्या मनशांक भीड घालून काम
जातलें. पुण आत्मारामान तें मात आयकलें ना. प्रोफेसोर जाव
नशिबांत ना. कितें करतलो ! निदान हायस्कुलांत टीचर जा
दुदाची तान ताकार भागोया, ताणें येवजिलें.

ज्या हायस्कुलांतल्यान तो पयलो आइल्लो त्याच ह
स्कुलाच्या प्रिन्सिपालाक वचून तो मेळ्ळो आनी इत्थंभुत ग
ताका सांगली. 'म्हाका स्टाफार घेशात जाल्यार मौच उप
जातले', ताणें म्हळें. प्रिन्सिपालाक ताचें कौतुक आशिल्लेंच.
आत्मारामाक भो खोशयेन येवकार दिलो. टीचर जावन
भुरग्यांक शिकौंक लागलो.

अशीं तीन चार वर्सां गेलीं. आत्मारामाचो फाटलो भाव वासु
मॅट्रिक जालो. वामन कामतीलीं भुरगीं सगलींच बुद्दिमान अ
हुशार. वासुदेवय आत्मारामाबरीच वयल्या पावंड्यार पास जा
ताका एक दोन तस्रिपोय मेळ्ळचो. सबाविकच आतां वासुदे
मुंबय येवजूंक लागली. आत्मारामापरस कॉलेजात वचपय त
चड सोंपें जाल्लें. मामाचो आदार आशिल्लोच. स्कॉल
मेळपाची खात्री दिसताली. बापायन ताकाय बी आडमेळें हा
मदल्यो दोन चलयो. तांच्या लग्नांचें बापायच्या तकलेंत घो
लागिल्लें. अनपतीच्यो गजाली सांगून वासुदेवाकय चरक
लावपाचें बापायचें धोर्ण पळेतकच आत्मारामान निर्धारान सांगलें,

'दादा, आतां वासुदेवाक पुण ह्यो राटावळी सांगूं नाका! ता

पुण आपणाल्या बुद्दीचे सार्थक करूंक मेळूंदी. संसाराच्यो गरजो सदा वाडतच उरतल्यो. जापसालदारक्यांतल्यान केन्ना तकली वयर काडूंक मेळचीना. त्याखातीर सगल्यांनीच घाण्याचे बैल जावंचें म्हळयार कशें बरें जायत ! आमी आसातच तो घाणो चलोंक! वासुदेवाक वचूंदी मुंबय. कर तूं वचपाची तयारी, वासुदेव. देव आमकां कसोय सांबाळटलोच!

अशींच आनीकय कांय वर्सां गेलीं. वासुदेव बी. कॉम (ऑनर्स) जालो. ताका रिझर्व्ह बँकेंत बऱ्या हुद्द्याची चाकरी मेळ्ळी. मामाल्यो चलयो आतां होंकलो जायत आयिल्ल्यो. तांची आनी आत्मारामाच्या भयणींची पिराय साधारण सारकीच म्हळयार जाता. आत्मारामाच्यो भयणी एस. एस. सी जाल्यो. मुंबै मामाल्यो चलयो कॉलेजांत वचूंक लागिल्ल्यो.

मामाच्या मनांत पयलीं एकच चली भाच्याक दिवपाचें आशिल्लें. आत्मारामाक ताणें जावंय करपाचें थारायल्लेंच. पुण वासुदेवाचें मन मामाल्या दुसऱ्या चलयेचेर बसलें. दुदांत साकर पडली अशें मामाक जालें. वामन कामत आनी बायल हांकां संबंद फुडें चलवंचेलो आशिल्लोच. वामन कामतीन रजा काडली आनी सगलें कुटुंबच मुंबय गेलें. रेल्वे कर्मचाऱ्यांक आगगाडी फुकट. तांचें घरचेंच वाहन तें.

वासुदेवान रिझर्व्ह बँक ऑफिसरांच्या को ऑपेरिटिव्ह सोसायटींत व्हडलो फ्लॅट घेतिल्लो. थंय कामत मंडळ रावलें. आत्माराम आनी वासुदेव दोगांयचेंय लग्न व्हडा दबाज्यान जालें.

मंडळ गोंयां परतपाचे वेळार वासुदेवान सांगलें,

‘ दादा, आतां प्रमिलाक आनी विमलाक हांगाच रावंदी. कॉलेजांत वचपाचें तांच्या मनांत आसल्यार वचूंदी. नासल्यार

आसूं. तांकां चाकरी करचेली आवड आसल्यार त्याखातीर
हांगाच राविल्ली बरीं. देवादयेन म्हाका तीं जड न्हय. माम
खटपटीन तांच्या लग्नाचें खंय जमता जाल्यार तें पळवपाक
लागीं आसप बरें. कितें म्हणटा तूं भाऊ ?' ताणें आत्माराम
प्रस्न केलो.

'म्हज्या मनांत आयिल्लें. पुण तुका म्हणचें कशें म्हणून प
फुडे येतालों. तुजें तुकाच हें येवजलें हें बेस बरें जालें. दादा
तकलेवेलो भार देंवपाक जायच आशिल्लो.' ताणे जाप केली.

पंदरा वीस दिसांनी वामन कामत, बायल, व्हडली सून अ
तिगय चले हांच्यासैत घरा परतलो.

आत्मारामाचो तिसरो भाव सतीश ड्रॉइंगांत खूब हु
आशिल्लो. तो एस. एस. सी. जातकच ताकाय वासुदेवान मु
व्हेलो. तो आर्किटेक्चराचो कोर्स करूंक लागलो.

वामन कामतीलो संसार आतां खूब गिरेस्तकायेचो जा
लागिल्लो. समाधान नाशिल्लें तें आत्मारामाक. तो जियेता
शिकवपाचें कामय मन लावन करतालो. पुण मन सदाच खि
उरतालें. आपणालें सपन अरदयारच उल्लें हेंच सारकें मनांत घो
राविल्ल्यान ताका सस्तताय मेळनाशिल्ली. ताका खूबच वितर
येतालो.

अखेरेक एक दीस ताणें निश्चय केलो. अशें झरमरत जियेव
परस मुंबय वचून कॉलेजांत कशें वचूंक मेळटलें तें पळवपच ब
व्हडलेंशें जाल्यार मामागेर रावचें पडत. पुण आतां तांतूत अनम
पाचें कारण कसलें! अशींच वर्सां बचत रावल्यार इल्ली तिल
उरल्या ती उमेदय सोंपतली, ताणें मनांत म्हळें.

आनी एक दीस सगल्यांचो निरोप घेवन आत्माराम मुं

ग्रेलो. तो हायस्कुलांत शिकैत राविल्ल्याचो उपेग आतां ताका बेसवरो जालो. कॉलेजांतलें शिकप ताका कितलेंशेंच सोंपें जालें. ताच्या मनासारकें जाल्ल्यान ताची निर्शेणीय आंतां उरूंक नाशिल्ली. उफाट्टी ताका नवी उमेद आयिल्ली. आपलो हावेस खरो करपाखातीर तो आतां नेटान वावरूंक लागलो

स वर्सां मुंबै रावन आत्माराम अखेरेक एम्. ए. जालो. सादो न्हय सन्मानासयत. चॅन्सेलर गोल्ड मेडलय ताका मेळ्ळे. इंग्रेजी भाशा हो तागेलो खासा विषय. त्या भाशेचेर ताणें खूबच प्रभुत्व मेळैल्लें. बी. ए. (ऑनर्स) जातकच ताका फेलोशीप मेळिल्ली.

जैन जोडून आत्माराम कामत धादोशी जालो. ताका मुंबैंतच बरी संद मेळटाली. पुण गोयां वचपच चड बरें अशें ताणें थारायलें. सतीश आर्किटेक्ट जावन पैलींच गोयां गेल्लो. दुसऱ्या एका आर्किटेक्टाक वांगडाक घेवन ताणे फर्म काडलें.

गोंय आतां पैलींचें उरूंक नाशिल्लें. थंय आतां चार पांच कॉलेजां चलतालीं. इल्लेय कश्ट करचे पडनासतना एका कॉलेजांत ताका प्रिन्सिपालशिप मेळ्ळी. ताचें सपन आतां सत्य सृष्टींत उतरलेलें.

आरंभाकच जें हांवें सांगलां त्या उतरांचें म्हत्व आनी तारतम्य तुमच्या ध्यानांत आतां आयलींच आसतलीं.

●

## काळ आयिल्लो...!

'आरे, आतां पयलीं तूं न्हीद थोडो वेळ. वचचेले वेळार तुका उठैतां. भायर सरपाक अजून जायतो वेळ आसा. व्हडे रातीं येतलो व्हडेकार. आतां ताटकळत बसलो जाल्यार मागीर भायर

सरचेले वेळार न्हिदून उरतलो न्हय ! उबारून व्हरचो प
तुका. चल, म्हजो बाब तो. न्हीद पळोया घटकाभर. उदकांत
कशें चलता तें पळेतलो मू ?

सावित्रीबायन बाबूक तरेतरेन समजायलो. पुण ताणें ति
कितेंच आयकून घेतलें ना. तो तटास जावन बलकांवार व्हडेका
वाट पळेत बशिल्लो. भायर पिठासारकें चान्नें पडिल्ल्यान उज
उपाट भरून पातळ्ळेलो. मार्सा म्हयनो निकतो लागिल्लो .मळ
एक लेगीत कूप दिश्टि पडनाशिल्लें. सगल्याक किण्ण पडि
मार्गाविली येरादारी बंद जाल्ली. लोक आपापल्या घरांत दा
आडामे घालून आशिल्ले. दोन उल्यांचेर सुकडी शेटील्या घ
मात भजनाचो कडकड अजूनय सोंपूंक नाशिल्लो. मुदंगा
झांजांचो आनी हेळग्यांचो आवाज सामको कानार मारता
मेस्ताल्या साळेंत लोखंड पातळ करपाखातीर मारिल्लो घणाचो
टंव आवाज तातूतच मदीं मदीं आयकूंक येतालो. णव, सवाय
वरांचो अदमास. निकतीच जेवणजात्रा जाल्ली. दत्ताबाब अ
सावित्रीबाय बिराडाचें सामान बांदपांत, आनी कितें वां
घेवचेलें उल्लें वी ना मू, म्हणून पळौपांत घुस्पल्लीं. वावर
तांकां पालव दिताली.

तुमी म्हणटले, ' हो रे कितें हागेले उद्देग ! लागलो एक
वर्णनां करपाक. हो बाबू, दत्ताबाब, सावित्रीबाय, हीं को
खंयचीं, खंय वचूंक भायर सल्ल्यांत, कित्याखातीर वतात हें अ
कांय एक सांगनासतना एकदम सावित्रीबायन कितें म्हळें आ
बाबून कितें केलें हें सांगल्यार आमकां तें कशें कळचें ?'

खरी खबर. आतां तेंच तुमकां सांगतां.

दत्तात्रय देसाय हो वाडयेचो एक गिरेस्त सावित्रीबाय तागे

घरकान्न. आनी बाबू कोण म्हणपाचें तुमी वळखलेच्च आसतले, हय. तो तांगेलो चलो. आतां तीं खंय वचूंक भायर सल्ल्यांत आनी कित्याखातीर वतात हें सांगतलो जाल्यार पयलीं तांगेलो थोडो इतिहास सांगचो पडटलो.

दत्ताबाबागेर बाबू आदीं तीन घुरगीं जाल्लीं. एक चलो आनी फाटल्यान दोन चले. पुण तांतलें एकलेंय जिवें उरलें नाशिल्लें. एकल्याक हुरहुरें येवन, दुसऱ्याक इजिपेल जावन आनी तिसऱ्याक धनकुटी मारून तीं देवाघरा गेल्लीं. पैलें तीन वर्सांचें जावंचे आदोच भायर पडले. दुसरें देड वर्साचें आसतना गेलें आनी तिसऱ्याक सटये दिसा कितेंशें जावन ताणे सासणाचेच्च दोळे धांपले. जाल्ली धनकुटी. पुण अन्नाडी मनशानी म्हळें. 'भुरगें सटवेलें ! दोतोरान म्हळें, 'तुमची जेंतिवांची ही पिसाय केदोना वेतेली जजूक फोबोर ! तुमी कोंकणपण सोडून क्रिस्तांव जाल्ले जाल्यार ही सोटी बाटी तुमकां इल्लीय लागूची नासताली. येजूनय चितून चोयात. तुमी जाणा जायात. फॉरा दा इग्रेज नांव आ सालव्हासांव!'

बाबड्या दत्ताबाबाक आनी सावित्रीबायक ही भुरग्यांची गजाल म्हळ्यार एक व्हडलीच निर्शेणी जाल्ली. सावित्रीबायक तर भितल्ल्यान सामक्यो हुडक्यो येताल्यो. 'देवा, कितें तुवें नेमलां तुकाच खबर. जाल्ल्या जिवाक तूं घेवन वता ! अशें म्हज्या हस्तुकीं घडलां तरी कसलें पातक ? कित्याक म्हाका ही ख्यास्त तू भोगैता ? ह्यापरस म्हाका वांझच करून तुवें कित्याक दवरली ना ? जाल्ली कीड तूं वाडूंक दिना जाल्यार हे वनवास तरी म्हज्या कपलांत कित्याक बरैले तुवें !'

तिसरेंय भुरगे भायर पडलें तेन्ना सावित्रीबायक कोणेंशें सांगलें.

' तूं सोळा सोमार कर. महाशिवरात्रेक गोकर्णा वच. दे
आंगवण कर. '

फुडल्या गुरवाचाराच्या वेळार सावित्रीबायन त्या सुचवणेप्र
केलें, सोळा सोमार केले. माघांत म्हाशिवरात्रेक घोव आनी
गोकर्णा गेलीं. कोटितीर्थार न्हालीं. गोकर्ण म्हाबळेश्वराक आभि
केलो. कडकडीत उपास करून तिणें सांगणें केलें, ' देवा सा
म्हज्या पोटांतलो जीव जगय, वाडय, ताका तुजें नांव दवर
ताची मुंज हांगा तुज्या पायांकडेन हाडून बांदतां. '

बाबू हो आंगवणजोगवणेन जाल्लो दत्ताबाबालो च
ताचें नक्षत्र नांव देवदत्त. पुण ताका देवाचें नांव दवरलें. म्हण
बाबू. काळान ताजेरय म्होरो केल्लो ! तो पांच स वर्स
आसतना उसरमटीन ताची मरता अशी अवस्था जाली त
दोतोर ताका ओखद दितालो. जोरगती जोरगतीक ताका भ
येवंचें सांजेवेळां बरो आसा. म्हणसर रातचो मरता काय उ
अशें जावंचें. सावित्रींबायन आनी शेजारच्या बायलानी सबंद र
कलकलान जागौन काडची पडताली. ताका बाकाल्याव खग्वै
ताची गणती ना. तरेकतरांची ओखदां दिवन पळलीं. हेरय जा
उपाय जाले. कोणे सुचैलें, ' चल्याक कोणाय चलो नाशिल्ल
सवायशिणीच्या होटींत घालून ताची ओपणी केल्यार तो ब
जातलो. जालें. रोखडोच शेजान्नीच्या चलयेच्या होटींत घाल
ताची ओपणी जाली. बाबूक आनीक एक पोसकी आवय मेळ्ळी
पुण उसरमट मात कशीच हालना जाली. अखेरेक दोतोरान सांग

' आगे, पुताक ओखतां कित्याक शिरी पोडोनात ! तेका एको
उपाव आहा. दोर्याच्या देगेर मार्साच्या मोयन्यात तेका तुमी घेव
वेशात आनी म्होयनोबोर तिगांचें वारें तेका मेओत जाल्यार ते

पुलमांव घोट जातेले. तेजो आज्म वेन्तोलो. म्हाका गोमता, तुमी हो एकूच उपाव कोरून पौंवचो, येफेत आयल्यावोगोर रांवचो ना !'

कितें करचें पडटा तें करूं सायबा, पुण चलो वांचून उरूं, अशें दत्ताबाबाक आनी सावित्रीबायक जालें.

म्हणटा म्हणसर फेब्रेर सोंपत आयलो. ताणीं थारायलें, वेळेर वच्चें. पुण वतलीं खंय ? बार्देसा काय साष्टी ? तशें देवादयेन एक दोन जागे आशिल्ले. मुरगवां दत्ताबाबाली एक भैण रावताली. अडफडचां सावित्रीबायलें आजोळ. कळंगुटच्या वेळेर वा बागांत वचचेलें थारायल्यार सावित्रीबायचे मामा पालेकार बिराडाची वेवस्ता करतले म्हणपाची खात्री आशिल्ली. पुण कळंगुटे, बाग पडलां मोरा विलाथेक. आनी मुरगांवची वेळ खर. येवपाववचपाक्य खर्चाक म्हारग. खूब वर्सां फाटली गजाल ही. तेन्ना कारेंरी आनी मोटारी गोयां नाशिल्ल्यो. व्हडीं, सारवटां, करेतां, माच्युलानी प्रवास करचो पडटालो. हाका लागून वचचें खंय म्हणपाच्या येवजणुकींत दत्ताबाब पडिल्लो.

पुण म्होंवाचें खाता ताका देव दिता म्हणटात. योगायोगान दत्ताबाबाची आनी बाणावलेच्या दामोदर नायकाची वळख जाली. दोन गोयकार बामण एकठाय जातकच तांच्या मजगतीं खयंचेंय पयसुलें आयसुलें नातें उप्रासलेंना जाल्यार अजापाचीच गजाल म्हणूंक जाय. दामोदर नायक हो आपणाल्या चार भयणीं-तल्या एका भयणीचो नंडावो म्हणपाचें दत्ताबाबाक कळ्ळें. त्या सुताचें तोंक चिमटेंत धरून वत्ताबाबान दामोदर नायकाक आग्रो केलो. ताका आपणागेर हाडून ताचो परामूस केलो. गजालींतल्यान गजाली जातकच दत्ताबाबालें रामायण ताच्या कानार पडलें.

वाऱ्याक खंयच्या वेळेर वचचें म्हणपाच्या चितेंत दत्ताबाब अ
हें कळटकच दामोदर नायकान म्हळें,

' इतलेंच मुओ ! हुस्को कित्याक करतात तुमी ? तुमगे
बिराडाची जापसालदारकी म्हजेर पावली. आमगेल्या वेळेवे
भाटांत नाल्लांचें लॉज आसा. पाडपाक वतकच दोनतीन द
आमी थंय उरतात. तुमकां रावपाक काय व्हडलोसो जा
नाका. नाल्लांची रास घराकडेन खोबरें करपाक हाडील्ल्यान ल
रिकामेंच आसा. तुमी म्हयनोभरच उरतले मू ? मार्सापाडो च
दीस फुडें धुकलचो पडत. तातूंत कितें. ययात तुमी. लोजांत राव
सारकी सगली तयारी करून दवरतां. '

अशे तरेन सगलें जथापथ जमून येवन दत्ताबाब भरणकुट
चल्याक घेवन बाणावलेच्या वेळेर वचूंक भायर सरिल्लो. आरंबा
सांगिल्ली गजाल आतां तुमच्या सारकी बरी ध्यानांत आयत
आसतली.

तेन्ना बाणावले वचप म्हळचार 'आसावादित्य ब्रह्मा' म्हणता
त्या तरेचें आशिल्लें. वाडयेसावन पायानी दुर्भटा, दुर्भटच्या
व्हडयान रायतुरा, आनी रायतुरच्यान बैलगाडयेन बाणावले, अश
ती यात्रा करची पडटाली. व्हडेराती पाणयाप्रमाणें भरतेर व्ह
हाकारलें म्हणटकच झिळमिळच्या आर्दीच रायतुरा पाव. थंयच्या
रोखडीच गाडी जोडून चलूंक लागतकच सकाळी णवधामेरेन जी
व्हरून बाणावले घालूंक मेळटालो.

बेतू फट्टचालें व्हडें थारायल्लें तो आनी तागेले दोन तांडेल
हांकां सामान व्हरपाक घराकडेन आफैल्ले. साक बांदून तया
आशिल्लेच. एकाचेर ट्रंक चडयलो आनी दोगांनी साक घेतले
ल्हान पोटली आशिल्ली ती वावराडेचेर उबारली. दत्ताबाबाल्य

ाव्या हातांत लाटण आनी उजव्या हातांत रोत. सावित्रीबायन
का हातांत खावची पानाचो दबो आनी दुसऱ्या हातान बाबूचो
ात धरलो. बाबूक धरून व्हरपाक दत्ताबाबालो भागेली खेमू
ायिल्लो पुण ' हांव चलून वतलों. म्हाका धरचेली गरज ना. '
हणून हटान तो आवैचो हात धरून चलूंक लागिल्लो. बांदार
ावता म्हणसर ताका पुरो जालें. खेमून ल्हवूच फुसलावन ताका
ग्रांदार बसैलो. आनी मागीर पंधरा वीस मिनटांभितर ते सगले
दुर्भटा धक्यार पावले. सामान चडैलें. वेतून तोल्दापोंदा मांदऱ्यो
हातुळ्ळचो आनी तांकां न्हिदूंक सुवात केली. पुण बाबू 'म्हाका
न्हीद येना. व्हडें कशें चलता तें हांव पळेतां ' म्हणून हणीकडेन
तस्सो उबो रावलो. सदा णव जावंचे आदीं सुस्त न्हिदपी बाबू
आज मध्यान रात जाली तरी तटमटीत दोळ्यानी पळेत जागोच
राविल्लो. जल्मांत पैलेच फावट तो व्हडयान प्रवास करतालो.
चान्नी रात आशिल्ल्यान त्या प्रवासाच्या मौजेंत अद्‌भुतपणाची भर
पडिल्ली. ओल्यांचे सळक सळ् सळ् सळ्, सळ्क सळ् सळ् सळ् हे
तालार जाल्ले आवाज, येऱ्याचो मदीं मदीं म्हस रेंकिल्ल्याबरी
जातालो तो आवाज, पलतडीं खंयशीं सुणों भोकतालीं तो आवाज
पयस कोण कुले घालतालो तो आवाज आनी न्हयच्या खाडयेंत
घटकेंतच फट्ट करून मोटेलीं धोडयां काय रावंशी उण्णां मारतालीं
तो घसग्रंच असो आवाज, ह्या तरेतरेच्या आवाजानी बाबू सामको
विस्मीत जावन गेल्लो. ताका एकाच वेळार भय आनी मौज
दिसतालीं. पाय वळ्ळे तरी कितलोसोच वेळ तो ती मौज अंत-
स्करणांत भरून दवरीत आशिल्लो. व्हडयाच्या हणी इतलीच
ताचीय उंचाय आशिल्ल्यान उदकाकडेन ताची नदर पावनाशिल्ली.
ताका वयर साटयांचेर बसून ती मौज पळोंची अशी उत्कट

इत्सा जालो. पुण वयर चडटलो कसो ? व्रापूय धेंगसो घ
आनी उब्रो रावन पळौक मेळटा तेंय नाजावन भितर
न्हिदचें पडत, म्हणून तो ओगी रावलो. ताच्या म्ह
ओलेकार ओलो घालतालो. तो बाबूक तेळीत आशिल्लो. बा
मनांत कितें घोंकता म्हणपाचें ताच्या ध्यानांत येतकच
ताका उबारून साटयेर म्हऱ्यांत बसैलो. बाबूलो आनंद म
आस्पावना जालो. आनी जेन्ना ताणें ओले उदकांतल्यान
सरतना उदकांत चंद्रजोती पेटिल्ल्याबरी लकलकीत उ
जाल्लो पळेलो, तेन्ना खीणभर ताची नदर उदकाचेरच
उल्ली. असली मौज ताका केन्नाच पळौंक मेळूं नाशिल्ली
संसारांत कितलीं अजापां भल्ल्यांत, ताच्या मनांत आयलें. अ
आज कितलोसोच व्हड जालों आनी आपणालें गिन्यान
वाडलें अशें मनांत येवन ताका धन्यताय दिसली.

रायतुरा पावसर बाबू तस्सो जागो रावलो. व्हडेकाराक त
तरांचे प्रस्न करून ताणें चकीत केलो. येद्याशा ल्हान भुर
इतलें हें सुचता कशें, अशें तांकां अजाप जालें.

रायतुरा दुर्भटासारकोच वाफोराचो धको आशिल्लो. पणजेच
सांवडर्चा तेन्ना वाफोराची फेरी नित्याक आसताली. तो दु
सारकोच रायतुराय थारतालो. धक्यार खटारगाडयो आसता
दत्ताबाबान रायतुरा पावतकच गाडी सोदली. बाणावले वच
गाडी केली. गाडयेकार रायतुरा रावतालो. पुण तो आशि
तळावलेचो एक सावंत. दत्ताबाबाक तो आयकून वळखता
आपुण आमक्यालो पूत म्हणून ताणें सांगतकच दत्ताबाबा
ताची वळख मेळ्ळी. वांटपण करीनासतना भाडें थरलें. साम

ाडयेंत भरलें. फुडल्यान मनशांक बसयलीं आनी गाडी चलूंक ागली

बैलांच्या गळयांत घांटी बांदिल्ल्यो तांचो सुरार आवाज ातालो. इतलो वेळ उकत्या विश्वाचें निरीक्षण करीत रात्रिल्ल्या ाबूक गाडयेंत बसतकच मानशेंत घाल्ल्याबरी जालें. चद्रय ातां अस्तमतेक गेल्लो. घांटाच्या त्या आवाजान बाबूक इल्लो ल्ली लकणी येवंक लागली. थोडयाच वेळाभितर ताका सुस्त हीद पडली. सावित्रीबायच्या मांडयेर तकली दवरून तो न्हीदलो

दत्ताबाब आनी सावित्रीबाय व्हडयांत झेमेवन आतां जागीं ाशिल्लीं. दत्ताबाब मदींमदीं गाडयेंतल्यान देवन पाय सदळ ारी आनी पर्थून गाडयेंत चड.

सकाळीं सात वरांच्या सुमाराक गाडी मडगांवा दरवटयाकडेन ावली. रेल्वेगाडी ठेसनांत आयिल्लो आशिल्ली ताका लागन दरवठो बंद केल्लो. गाडी वतकच दरवठो उगडलो आनी बैलगाडो ाणावलेच्या रस्त्याक लागली.

गाडयेंत सगलींच जाणां आतां जागीं जाल्लीं. सावित्रीबाय कसलीशी गजाल सांगताली. मिचेकडेन तांगेलें लक्ष लागिल्लें. इतले म्हणसर गाडयेकारान मोखावेल्यान एकदम उडी मारून सामकारा वचून तो एकदम गाडी फाटल्यान धुकलुंक लागलो. कितें जालें काय म्हणून पळेता जाल्यार गाडी रस्त्यावेल्यान सामकी शेताच्या धडेर आयल्या आनी बैल शेतांत वचूंक सोदतात. शेत बरें पुरुस देड पुरुस धडेसकला आशिल्लें. एक मिनुत गाडय-काराक कळाव जाल्लो जाल्यार भितल्ल्या सगल्यांसैत गाडयेचो शेतांत खुर्दो जावंचेलो ! बैल सांवरना जातकच गाडयेकारान आनी गाडयेंतल्या मनशानीय किंळची माल्ल्यो. त्यो आयकून

शेतांतल्या तळ्यार घोडयाक धुतालो तो करेतकार धांवून
आयलो. गाडयेकारावांगडाच ताणेय मोखाक धरून व्हडलो
केलो आनी गाडी फाटल्यान धुकल्ली. तितल्या म्हणसर ग
कारान बैलांक सोडून घाले. ते धांवत वचून तळ्यार
पियौंक लागले. करेतकारान आनी गाडयेकारान गाडी रस
हाडली.

जाल्लें कितें काय म्हळ्यार गाडयेकार बैलांक उदक पि
दिवंक विसरलेलो. बैल तानेल्ले. उदक खंय मेळटा काय म्ह
ते पळेत आशिल्ले. शेतांतलें तें तळें तांगेलें सवंयचेंच आ
तानेफुडें तांकां भान उल्लें ना. सकैल पडून मरतले म्हण
बैलांक भोव !

देवाची दया, त्या वेळार तळ्यार तो करेतकार आशिल्ल
नाजाल्यार उसरमटीच्या कचाटयांतल्यान बाबूची सुटका
जावच्याबदला सगलींच काळाच्या भकीक पडपाचो मरणसंकश्ट
प्रसंग आशिल्लो !

काळ आयिल्लो ...पुण वेळ येवक नाशिल्ली म्हणून निभावले

# मिनाचें धन !

म्हादेवान साकोड्डुचां खणीर कामाक वचचेलें येवजिलें
तागेल्या बापायाक पोकळ्या नायकाक मानलें ना. ' पोराक
बरी बुद्द सुचूंक ना. ' ताणें मनांत म्हळें. म्हादेवाक ताणें तरेत
समजावन पळेलो, ' घरच्या शेतोडेची उस्तवारी कशी जातली
सांग. ती पाड जावंची ना ? भाताचो वर्साचो पुरिमेंत पुण जावप
जाय मरे ?. भात कितें विकतें घेवन खातलो ?' पुण म्हादेव

बापायलें इल्लेंय आयकून घेतलें ना. ताच्या दोळ्यांसामकार मिनाचें धन शबय घालतालें.

हें पिशें ताच्या तकलेंत भरलें कशें ? तें अशें जालें. तो मावोड्यां वागुरब्या गेल्लो. थंय तागेलो मेवणो सांतू एकदम गिरेस्त जाल्लो ताणे पळेलो. सांतून गळ्यांत भांगराची सरपळी घाल्ली. बोटांत कितल्योशोच मुदियो लकैल्ल्यो कमराक दोट्टी काण आशिल्लें. ताच्या काळ्या कुळकुळीत आंगार तो हळड्वो रंग बेसबरो दावतालो. घसघशीत दोळ्यात भरतालो. ताची बायल भागरथ कितें तर ! बामणाल्या बायलांक फाटीं उडेता इतली ती तिकतिकताली ! बामणाल्या सुनांबरीच तिणें भांगर घाल्लें. तसलींच पातळां मसरायो ती न्हेसताली. वर्णान गोरीधवो आनी गिरवंन आशिल्ल्यान तिका सुदीर म्हणपाक कोणाकच्च काळीज जावंचें नाशिल्लें.

सांतू आनी भागरथ दोगांय वेळग्यां खणीर दोन तीन वर्सां काम करतालीं. त्या दिसवड्याच्या दुडवानी ताणी हें भांगर केल्लें. खणीर मेळटल्या दिसवड्याचे आंकडे आयकतकच म्हादेवाची तकली घुंवली. तो खावन जेवन सुखी आशिल्लो जाल्यारय केन्ना चार पैशे कडसरेक लावंक ताका मेळनाशिल्ले. शेतकामतेपणांत तो ल्हानाचो व्हड जाल्लो. अशे तरेन पैशे जोडूंक येतात म्हणपाचें पळौन ताका अजाप जालें. तो विस्मीत जाल्लो पळौन सांतून ताका जल दिलें, 'शेताच्या वावरान केन्ना कोणाकडेन दुडू जाला रे ? तो मेळौपाक कश्ट करचे पडटात ! तूं वेळग्यां येशी जाल्यार तुकाय अशेच पैशे मेळटले. तुजेयकडेन गांठ जातली. अशेंच भांगरशिंगर करूंक गावतलें. आसा तजवीज जाल्यार यो म्हाजे वांगडा. परांच वैतलों हांव परतो.'

म्हादेवाक ती बुद्द बेसबरी मानवली. मेवण्यावांगडा वचूं
ताच्या मनांत आयलें. पुण ताका तितलो धीर जालोना.
आवयबापायक कळैल्याबगर भायलेभायर गेलो जाल्यार
जावंचें ना. तांकां वायट दिसतलें. राग येतलो. घरा वचून ता
सांगून सवरून गेल्लें बरें. ताणें थारायलें आनीकय एक येव
ताच्या तकलेंत घिट्टी घालताली. वैतलोच जाल्यार एकल
कित्याक वसप? गुण त्याकय वांगडा व्हेल्यार बरें न्हूं? सांतूवांग
भागरथ वसोंक नासलली जाल्यार इतलें भांगर घेयसारके
तेंचेकडेन एकठाय जावंक पावताले ?! बायल म्हान्यांत आस
सगल्या तरानी बरें भौनभौन धरा धावन वयचेली गरज
चित कामार लागतलें. जेयता तो गोटो आंगाक लागतलो
बेगीं वाट्टली! मेवण्याचो निरोप घेवन तो घरा आयलो.

म्हादेव हो पोकळे नायकालो एकसुरो पुत न्हय. पोकळय
चेडे चार. ताची गांवची शेतोडय बरी व्हडली. पुण पोकळो आ
तागेले भाव हांचे वांटेविले जाल्या उपरान्त पोकळचा वांटय
ज्यो तक्षिमो आयल्यो तांच्या उत्पन्नान पोकळयालें कुटुंब पो
कठीण आसलें. शेताचो एक आदोंदी आनी बांदावेले माड
दोन भाटा कुडके इतलेंच ताच्या वांटयाक आयिल्लें शेत दोन
लांचें खरें. पुण तळयाचें उदक सगल्या खाजनाक पावनाशिल्ल्य
आनी तेंय शेताक लावपाचें काम घालघसरीन चलिल्ल्य
सरदासारकी वायंगणी फसल पिकनाशिल्ली. वायंगणार अ
पीक आवा शिवा करून मेळटालें.

पोकळयान पळेलें. शेताच्या उस्तवारेक चारय चेडयांची क
गरज ना. तांकां कोणालेंय तरी मानायपण करून पोट भ
पडटलें. त्यापरस एकेकाक कितेंय स्वतंत्र वेवसाय धंदो शिक

पोटाक लाइल्ले बरे. आज चारांक चारच आसात त्या म्हणसर कशेय खातीत जेवतीत. फाल्यां एकेकल्याचें लग्न जातकच चारांचे चोवीस जातले. मागीर भाताचे गोटे आनी नाल्लाचे बोंडे मेळटात ते कोणाकोणाच्या पोटाक पावतले !

पोकळो नायक मोटो बुदवंत आशिल्लो. गावांतले रैतसुदीर ताच्या बुद्दीन चलताले. ताची सांगणी म्हणणी आयकताले. सन्मथान आनी शाणेपणान वागून ताणें गावांत नामना जोडिल्ली. चार पैशेय तेन्ना ताच्या गांठीक आशिल्ले. भुरगे मात्शे आडसाटे जायनाफुडें ताणें तांकां सगलें समजावन सांगलें. ताणें तिगांक तीन तरा शिकैल्यो. व्हडल्याक केलो कोंकेर. खणीर वचून चिरे मारपाचें काम तो शिकलो. दुसऱ्याक बंगसाळीत धाडून खरवतकार केलो. हे दोनय धंदे शेताकडेन लागभाग नाशिल्ले. फाल्यां लग्नां जातकच पोटाफाटल्यान हे दोगय पुत घर सांडून चलूंक लागतले, घराक तांचो पालव मेळचोना, हें जेन्ना पोकळचाच्या तकलेंत आयलें, तेन्ना ताणें तिसऱ्याक केलो गाडयेकार. हो धंदो मात शेत-काराक फावसारको आशिल्लो. बैल म्हळचार शेतकाराची व्हडली संपत. जोत जाय तेन्ना शेत नांगरूंक, आनी फुडें मळणेचे वेळार भात मळूंक उपकरता. तशेंच शेताचें काम नासता तेन्ना तांकां गाडयेक जुंपुन गाडी भाडयाक व्हरूंक मेळटा. अशे तरेन तिसरो पूत अर्दो शेतकार अर्दो धंदेकार जावन घरांतच उरपाची माणणी पोकळचान केली. चवथ्याक मात निवळ शेताच्याच कामाक ताणें लायलो. तो हो म्हादेव.

म्हादेवान घरा येतकच मिनाची तोखणाय आरंबली तेन्ना पोकळचाक सट्ट जालें! ताका फुडलें सपन पळौंक इल्लोय वेळ लागलोना.

ही खबर घडली त्या वेळार पोकळे नायकाल्या घरांत म्हा
आनी गुंणवंतें हांच्या खेरीज आनीक कोण उरूंक नाशिल्ले. व्ह
दोगय चेडे, पोकळच्यान तर्क केल्ल्याप्रमाणें जायत्या वर्सांफाटी
आपणालीं बायल भुरगीं घेवन गांव सांडून गेल्ले. दोगांकय अं
सासणाची परकी जाल्ली व्हडलो बार्देसा, परवरी आनी खरवतक
म्हापशां बंगसाळींत कामाक राविल्ले. तिसरो पूत सुर्वेक कांय क
घरांत उल्लो खरो. पुण मांथ सुनेक मातय पडनाशिल्लें, रातदि
तांचो झगडीं जातालीं. त्या त्रासांक लागून पोकळ्यानच पुता
वेगळो रावंक सांगलें. एकदा वेगळो रावतकच ताची घराची अं
इल्ली इल्ली उणी जाली. आतां तोय घराक परकी जाल्लो. ग
सांडून तो कुट्टी रावंक गेलो.

पोकळो आनी बायल म्हातारीं जालीं. शेतांचीं कश्टांचीं का
तांच्यानीं पैलीसारकीं जाय नाशिल्लीं. पुण काम करून आयिल्ल्य
च्यान रिकामो बसून रावं नज म्हणून तीं कश्ट करतालीं. म्हाद
मिनाच्या कामाक लागून भायरो जाल्यार शेताची कितें द
जातली तें येवजूत पोकळ्याक दुःख जालें. ताणें ताका तरेतरे
बोध केलो. आरंभाकच हावें तुमकां तें सांगलां.

म्हादेवान गुणवंत्याक वागुर्बेची खबर सांगली तशी तीय भुर्कुटल
फाटीं कुळरा गेल्ली तेन्ना तिणेय तें वैभव पळेल्लें. तिका चिटमि
पडिल्ले. भांगर दिश्टि पडतकच मिडमिडना, अशी बायलांच
जातींत, आनी तातूंतय शिकूंक सवरूंक नाशिल्ल्या अस्तुर
भितर मेळसारकी कोण आसा! म्हादू तिगेलो घोव असोच मिनाच
वावराक वसोंक लागिल्लो जाल्यार भावजयेसारकें हांवय
भांगर शिंगर घालून शिरवंत दिसचें नाशिल्लें? सभाविक
तिच्या मनांत आयलें. पुण घरा येतकच ती मरामत घोवा

नी मायंक सांगपाचें काळीज तिका जालें ना. ह्या घरांतली
ारवीस आनी रूच जिरवण थोडयाच वर्सांच्या अणभवान तिका
बरी कळिल्ली. ती उतर काडीनासतना मोन्यानी रावली.
य दिसांनी ती तें विसरूनय गेली. आज घोवान आपुण जावन
खबर काडतकच तिका फाटलो उगडास जालो. घोव आपणाक
ाडा घेवन वैतलो म्हणूनय तिका भौच खोस जाली. विगळचा
ो गोबर फूंक मारून उडैतकच भितल्लो उजो जसो लक्क
ता, तशें तिचें जालें!

म्हादेवाच्या मनांत गुणवंत्याक वांगडा घेवन वेळग्चां मेवण्या
ी वचचेलें घोळटालें. पुण ताका कळ्ळें कीं सांकोड्डुच्या खणीर
ूक गावचेच कांय जाण तयार जाल्यात. ताणें चवकशी केली.
कोडुचा वचपच बरें, ताणें थारायलें. हेरां वांगडा तोय गुणवंत्याक
न सांकोड्डुचां गेलो.

सांकोड्डुचा येवन म्हादेवाक आतां दोनेक म्हैने जाल्ले. म्हादेवाक
ुब्यां फक्कत मिनाचें धनच दिश्टि पडिल्लें. खणीवेले कश्ट,
त, तळमळे ताच्या नदरेक पडूंक नाशिल्ले. तांची चत्राय लेगीत
त्रप ताका शक्य नाशिल्लें. सांकोड्डुचां पावतकच ताका तें
ोंक्र मेळ्ळें. तो समजतालो, शेताचो जसो कांयसो उपलापो
, तसोच खणीवेलोय आसतलो. पुण वरांचीं वरां खडपांत
नी त्या विचित्र वासाधुवराच्या घुस्मटमारांत काम करप म्हळ्यार
याची गजाल न्हय म्हणपाचें ताच्या ध्यानांत आयलें. दिसवडो
लो मोठो कित्याक दिवंचो पडटा तें ताका कळ्ळें ! जीव
श्टांत घालून हें काम करचें पडटा अशें ताका दिसूंक नाशिल्लें.
ं. तकालस घेवपाची आपणाक सवंय नाशिल्यान चार दीस

त्रास सोसचे पडटले, फुडें जातली सवंय, अशें मनांत हाड्
नेटान काम करूंक लागलो.

पुण आनीक कांय दिसांनी खणींत घाल्ल्या एका सु
लागून जेन्ना एक स्फोट जालो आनी त्या स्फोटांत चार
मनशांची कितें दशा जाली ती ताणें पळेली, तेन्ना मात
आत्ररो उडलो. 'हें असलें काम म्हाज्या असल्या मानायाक
बाबा !' ताणें मनांत म्हळें. ताची खात्री जाली. आपुण
सांतूचो मेत्रणो, दोगय सुदराच्याच जल्माक आयल्यात, तरी क
आनी बळगें हांच्या बाजत दोगांचीय जात एक न्हूं. सांतूक
पचलां. पुण आपणाक पत्रसारकें ना! परतो घरा गेल्लोच बरो

पुण घरा वचप आतां ताच्या हातांत खंय उरिल्लें! कब
प्रमाणें आनीक चार म्हैने ताका खणींतच नाख धाडावंक
आशिल्लें. शिवाय तो एकलोच नाशिल्लो. बायलेकय अ
कबल.तीन ताणें घुस्पावन दवरलेली. आतां कितें जाता तें ज
ताणें येवजिलें. तोंड धापून, नज जाता तशें, तो काम करीत रा

म्हादेवापरस गुणवंत्याचे हालउपाद्रे पळंव नज आशि
शेतांतले काम आनी बामणालो वात्र करूनय तिका जो f
मेळटलो तो सांकोडचां येतपसून ना जाल्लो. काम सादेंच,
घालपाचें. तशे कश्ट खूब म्हणपासारकें न्हय आशिल्लें.
वरांची वरां लागून काम करपाची तिका सवंय नाशिल्ली. त
लागून तिचो जीव घुस्मटलेल्याबरी जातालो.

पुण तिका खरे त्रास जाताले ते दुसरेच. तें सगलें सैमच f
कितेंशेंच दिसतालें. 'ही जी दादल्या बायलांची तरा हिंगा च
ती दशेच्या मनशांची न्हूं !' आजवेरची तिची संस्कृताय f
सांगताली. तें हांसप, किटकिटप, पोजडें उजवप, दोळे मे

ा चोरचे बदला आंगार झडून काम करप, हातलें कितेंच तिका नाशिल्लें. तातूंतच एक दीस मुकदमान अचकीत तिच्या डकेक हात लायलो. तिची नकली वयर उखलली. तिचें काळीज खपूंक लागलें. 'जाता तितल्या बेगीन ह्या नरकांतुल्यान ग्र सरोन घरा वसों जाय. नाजाल्यार आनीक कांय दिसांनी गडाक लागलल्या मनशामाणकी म्हागेली गत्त जातली!' तिणें ांत म्हळें 'पाड पडों हें मीन. आमी घरा वसों या.' ती देवाक पराथूंक लागली. तो तिका थाताखन धरूंक लागलो. लातीची मुजत केन्ना काय सोंपता अशें तांका जालें.

अशा घुस्मटमागांत म्हादेव आनी गुणवंतें कष्टांत फातर घालून स मेजांत आसतनाच एक दीस म्हादेवाक जोर आयलो. ताका ाच दिसांपावन इल्ली इल्ली कसर येवंक लागिल्ली. पुण ती गार तशीच सोंसून नो काम करी. सामकेंच नज जातकच तो दिमा न्हिदून रावलो. गुणवंत्याक कच्च जालें. 'हें आनी तें धाडलें तुवें, देवा!' तिणें आकांतून म्हळें.

वावराड्यांच्या आरोग्य राखणे खातीर सरकारान मिनेरांक तोर दवरूंक लायल्यान ते कंपनीचें, मिनेर धनयांचें पाग तात आनीं वावराड्यांक ओखद विर्सद करतात. दोतोराक बच्चून गतकच, 'मिनाचो जोर तो' म्हणून ताणें ओखद दिलें. तीन र दीस ओखद घेवनय जोर हालना जातकच, 'इंजेसांवां करूं य' दोतोरान सांगलें. हे वटेन कामार वचप बंद जाल्ल्यान सवडो ना, आनी ते वटेन ओखदाची लावण लागिल्ल्यान डवांची वाट! म्हादेवाक धर्म जागो जालो. खंयच्या म्हुर्तार पुण घर सोडून भायर सरलों, अशें ताका दिसलें. बापायचें तर मोडून पैशांफाटल्यान लागलों म्हणून देवान ही ख्यास्त

भोगयली ना मू ? ताच्या तकलेंत घुवन घुवन येवंक ल
ताणें नारायण देवाक सांगणें केलें, 'देवा, म्हाका बेगीं गुण घ
घरा पावय. दशमी पालखेक शिर्णी करतां. परतें मीनाचें
नांव काडिना ! म्हाजी काकुट कर सायबा !'

गुणवंत्याक बाबडयाक रानांत सांपडल्ल्याबरी जालें. का
वचूं नज, घरांतय बसूं नज, अशी तिची गत्त जाली. दोन
दिसांनी तिणेंय कामार वचप सोडलें. ती बुळबुळ रडत
लागली. घोवान समजायतकच तिका हुडक्यो येवंक ला
तिणें देवतेक होंट आंगयली, 'सायबिणी, येयलेल्लों तशीं
आमकां घरा पावय. खणनाल्लांनी तुगेली होंट भरतां!'

सात दिसांनी म्हादेवाचो जोर निसरलो. पुण कसर आशील
मात्शेशें बरें दिसूंक लागतकच ताणें फाटीं फुडे पळेलें ना. दो
कडेन वचून अकलां घेवन घरा वचपाक रजा दिवंक लायली.
दीस घरा रावन यो. बायलेक हांगाच दवर'.मुकदमान ताका स

'हांव हिंगा एकली रावसारकी ना. वांगडा व्हयली ना जा
जीव दितलें! पंदरा दिसांनी हिंगा परतें यो कित्याक, मरों
भोगलें तें सुख पुरो जालेंना? हे तरेन पैशे जोडोन भांगर करपा
हांव सात जल्म अशेंच उकतें रावन. आमगेलो सदींचो
आमकां करोंक मेळ्ळयार पुरो. आमकां नाका हें मीन काय भ
जाय आशिल्ल्या मनशांकच मेळों तें सासणाचें!' तिणें म्हळें.

काम सोडून म्हादेव आनी गुणवंत्याची होकलपावणी
परतलेली पळेतकच पोकळयाक अजाप जालें. म्हयनोभर उ
आशिल्ल्या मनशांसारखी तांगेली ती दशा पळेतकच पोकळ
दोळे दुखांनी भरून आयले!

# रातेर !

ह्या संसारांत जायते फावट कल्पनेंतय नाशिल्ले विचित्र प्रसंग घडून येतात ! त्या प्रसंगांत तुमी कशे वागले तितलेंच चार लोकांक कळटा आनी ते त्या वागपाविशीं तुमची तुस्त करतात अथवा तुमकां दुशण दितात. मागीर तुमी तशे वागले ताका तशेंच सबळ कारण आसूं वा नासूं, तांकां तें जाणून घेवपाची व्हडलीशी गरज दिसना. कोण कितें म्हणटीत तें तुमकां तोंड धापून आनी कान उक्ते दवरून आयकुचे पडटा. वर्सांफाटल्यान वर्सां वतात आनी लोक मागीर ती खबरय विसरतात पुण तुमचें मन मात खासा आपुण गुन्यावकारी आसल्यार त्या आपणाल्या गुन्यावाची किंवा दुसरो गुन्यावकारी आसल्यार तागेल्या गुन्यावाची याद जल्मवेर विसरना. एके तरेची खंत किंवा समादान तुमच्या अंतस्करणाक सासणाचें अणभवत उरता. अशीच एक गजाल तुमकां आज हांव सांगूंक सोदतां.

बावन वर्सां जालीं ह्या खबरीक. तेन्ना हांव पणजेच्या एका अर्दसाताळयाचो संपादपी चिटणीस आशिल्लों. एक दीस एक मनीस हांव काम करतां थय आयलो आनी म्हाका एका चलये-काराची माहिती सांगून, त्या चलयेकडेन लग्न जा, म्हणून होरावंक लागलो. पयल्या फावट हांवें साद्याच उतरांनी 'म्हजी तजवीज ना' म्हणून सांगून ताका पर्तीलो पुण ताणें म्हजी फाट सोडली ना. चार चार दिसांनी ताणें येवंचें, चलयेक पळोंक येयात म्हणून आग्रो करचो, आनी म्हजी तकली उसळावंची. अखेरेक एक दीस तिडक येवन हांवें ताका म्हळें,

'आगा, तुमी ओगीच म्हाका घोसतात कित्याक? तुमकां सांगलें न्हय हांवें, म्हजी तजवीज ना म्हणून!'

'पुण एक फावट तुमी येवन पळेयात तरी चलयेक मानल
ना जाल्यार मागीर आसू खबर. तुमकां चली कराच अशें को
म्हळां? मानल्यार करात. चलयेक पळांक गा कितें जालें' ता
जाप केली.

'अशें गा कशें म्हणटात तुमी ! चलयेक पळेली आनी नाक
म्हळी जाल्यार बशिल्ल्या जाग्यार बाबडेक लज जावंची ना
वायट दिसचें ना ? गरजशिवाय तिची अशी नामना जाल्ल
बरी ? लोक कितें म्हणतीत ! शे ! ओगीच तुमी म्हाका नसत्य
बगलाठांत घालूंक सोदूं नाकात. म्हाका लग्नच जावंचेलें न
जाल्यार ठोंकलेक पळोपाचे सुत्राळे गा कोणें सांगल्यात !' हाव
बखांदी चुकोपाक म्हळें.

पुण तो कसलो लापीट ! तो तितल्यान थोडोच बदता ! त
चली कशेय भाशेन म्हाका दसवंची म्हणून ताणें मनांत मारिल्ल
गांठ ब्रह्मदेवाल्या गांठीपरस घट्ट आशिल्ली ! ताणें वेळ लायनास
तना बेगोबेग म्हळें,

'म्हाका लग्नच जावंचेलें ना म्हणून पळे तुमी म्हणटात तें
कोणच आयकून घेवंचो ना ! सगले चले भुरगे सोयरिको येवंक
लागतकच ही अशीच जाप दिवंक लागतात. पुण लग्नां जावंचेली
काय थांबूंक नात ! तुमी पळेतात मूं ? चातुर्मास सोंपलो रे
सोपलो, पें, डुम डुम चल्लेलें आसा ! तेन्ना तुमी हीं नसती
पिशेपणां पांगरूं नाकात. तुमकां कितें जाय नाका म्हणपाचें म्हाका
मेकळेपणान सांगात. म्हाका खात्री आसा, ही चली पळेना फुडे
तुमी तिका झोंपय मारून उबारून व्हरतले ! ओगीच पर्थुपर्थुन
येवन तुमकां वाज दिवंक म्हाका कितें पिशें लागलां म्हणून
समजतात तुमी ? ताणें हांसहांसत म्हजी अपुरबाय केली.

ताचों चिकटपणा पळौन म्हाका राग आयलो. हावें म्हळें,

'आगा, पुण अशी ही झोंपय मारून उबारून व्हरचेली चली पळौक यो म्हणून म्हजेच फाटल्यान कित्याक लागल्यात तुमी? संसारांत कितें आमीक चले नात? ही झोंपय मारपाची कसरत हांवेंच करची म्हणून गा तुमचो हट कित्याक?'

'रागार जावं नाकात. हो हट म्हजो न्हय. चलयेच्या बापायचो. तुमीच जावंय जाय अशें ताका दिसलें जाल्यार तो ताचो गुन्याव जालो? आपली चली बऱ्या जाग्यार पडची, तिका शिकिल्लो सवरलेलो गुणेस्त घोव मेळचो, जावंय बरो अर्थ अपुर्बाय करपा सारको आसचो, अशें चलयेच्या बापायक दिसलें जाल्यार तातूंत अजाप कसलें! उफाट्टी तुमकां ह्या हटान खोस जावंक फाव म्हणटां हांव. आपणालें म्हत्व वाडिल्लें पळौन कोणाक गा अभिमान दिसचो ना!' ताणें म्हाका पाखां लावपाक हात घालो.

'रावात. रावात. म्हाका तुमी चण्या झाडार चडैतात खरे. पुण तट् करून तेंगशी मोडून हांव सकला पडलों जाल्यार न्हेसणाक कौर लागूनच सुटचो ना, कमरय साणावतले! तेन्ना ओगीच म्हाका होरावन फुसलावंक सोदूं नाकात.' हावें हांसहांसत म्हळें.

'तुमी फकाणार घालें म्हणून हांव सांगतां तें लटिक जाता? जावं. तें कशेंय आसूं. तुमी केन्ना येतात तें म्हाका सांगात. आतां आयिल्ले जाल्यार भौ बरें जातलें आशिल्लें. पुण आतां फुर्सद नासल्यार पर्थून हांव केन्ना येवं तें म्हाका सांगात. तुमी आयल्या बगर तुमची आनी म्हजीय हातूंतल्यान सुटकावाट जावंचेली ना. तुमी हां म्हणसर म्हाका तुमचेसरीं नाख धाडावचें पडटलें!' ताणें हालनासतना आपलें पालुपद चालू दवरलें.

'तुमी ह्या बिरमर्तांत म्हाका कित्याक घालूंक पळेतात? तुमकां

खऱ्यानशींच हांव सांगतां, लग्न जावंचेलें म्हज्या मनांत ना. घरदार आनी बायल भुरगीं असल्या जंवजाळांत घुस्पल्यार गा म्हजें कशें जातलें ! म्हज्यासारक्या उपलाप्या मनशांक ह्यो गजाली न्हय. तुमगेल्या त्या होंकलेक बरो घोव मेळचो अशें तुमकां खऱ्यानशींच दिसता जाल्यार तुमी म्हजी फाट सोडात. आनीक कितें सांगूं हांव तुमकां ?' ताका हात जोडून हावें म्हळें.

'येवजात, येवजात. येता हांव पर्थून. तुमी कितेंय म्हळें तरी म्हजो विनती तुमी एक दीस मान्य केल्याबगर रावंचे ना म्हणपाचो म्हाका विश्वास आसा.' अशें म्हणून माथ्याचो रुमाल सोडौन तो पर्थून बांदीत तो उठलो.

ह्या व्हिचणाचो उपसर्ग आनीक आतां बादचेलो ना, अशें समजून हांव खोशी आशिल्लों. पुण आठच दिसांनी तो दुत्त करून परतो आयलो. ताका पळेना फुडे म्हज्या कपलाची शीर तट्टटली, कानसुलां हून जालीं, आनी रागान म्हज्या आंगाक उजो पेटलो. आतां कशा तरेन ह्या समंधाक बेल्यांत भरतलो म्हणपाचें सुचना जावन म्हजो किंवाटो आनीक वाडलो. म्हज्या नूरेवेल्यान तो समजलो जावंये. नुलैत ताणें वोल्सांत हात घालो आनी एक चीट काडून मेजार दवरली. चिटींत बापीन बरैल्लें, 'चली कुळशीळान बरी, रुपानय बरी म्हणपाचें कामत सांगता, तूं वचून पळे आनी तुका मानसारकी आसल्यार कळय. तुका नाका जाल्यार आमचो आग्रो ना. कामत तुका व्हरून चली दाखैतलो. कामत सांगता त्या भशेन चली तुका मानूंक जाय. तशें जाल्यार भौ बरें.'

आतां कितें करचें म्हणपाचें खिणभर म्हाका सुचना जालें. बापीसरी वचून म्हजेर हें चेपण घालपाचें ठकपण केलें म्हणून

कामतीच्यो म्हाका संताप आयलो. चलयेक पळौंक वचप आतां चुकना म्हणपाचें मनांत येवन हावें तिडकून म्हळें,

'इतलें आटासून सांगलां आसतना तुमी म्हज्या बापायसरीं गेलेच !? तुमी कितें धल्लें? तितल्यान हांव आळावंदा येतलों म्हूणन ? हिसपाभायर ओडून धरल्यार तुट्टा म्हणपाची खबर ना दिसता तुमकां. ताका तुवें कितलोय मंत्र मारलो म्हूणन म्हज्या मनाविरुद्ध म्हाका चतुर्भुज करूंक बापी केन्नाच तयार जावंचो ना म्हणपाची तुमकां खंय खबर ! पळेयात, वाचा ही चीट ! आतां तुमकां हांव अखेरचें सांगतां. तुमगेली ती चली व्हडली अप्सराय आसली जाल्यार म्हाका तिजेकडेन लग्न जावचेलें ना ! तिका फावसारको न्हवरो तुमकां दुसरो कोणय मेळत. ताच्या सोदाक तुमी लागात. म्हाका ओगी त्रासांत घालूं नाकात !'

इतलें निर्वाणीचें उतर आयकतकच पुण कामत, तोंड आंबट करून जायना, एकदाचो उठून वतलो अशें हांव समजल्लों. पुण तो कसलो चिवट. ताणें रोखडेंच म्हळें,

'तुमीय तरी असो हट धरून कित्याक रावल्यात म्हाका कळना ! चलयेक पळेतकच तिचेकडेन लग्न जावंचेंच पट्टलें म्हूणन तुमी भियेतात जाल्यार हांव तुमकां आदींच सांगून दवरतां, चली मानल्यारच तुमी पत्करात. पुण चलयेक पळेनासतनाच तुमी ना म्हूणूं नये अशें चलयेच्या बापायक आनी म्हाकाय दिसता. तुमच्या बापायचेंय तेंच म्हणणें. तुमी निखटचा येवन पळौपांत इतल्या जाणांक खोस जाता आसतना 'नाच' म्हूणन तुमी कित्याक करो धरतात ? हांव तुमकां नमळायेन सांगतां. आतां तुमी म्हजेवांगडा चलात. दनपरां आमगेर रावात. सांजवेळा तुमकां हांव थंय व्हरतां. तुमी चलयेक पळेयात आनी मागीरच कितें तें

उलयात. तातूंत कोणाक इल्लेंय वायट दिसचेलें ना. समजलें ह
कितें म्हणटां तें ? चलात. आतां आनीक वाद घालीनासत
भायर सरात पळौया !' ताणें म्हळें.

'बापीन बरें लां तेन्ना म्हजो निरुपाय. पुण आतां क
आसा. फाल्यां सांजवेळा साडेपाच वरांचेर हांव थंय पावतां. पु
तुमकां आदींच सांगून दवरतां. हांव येतां तो तशी गरज आ
म्हणून न्हय सगली माहिती म्हाका मेळून जाल्या. चलयेक पळौ
तातूंत कसलीच भर पडचेली ना.' हांवें सुचैलें.

'तें मागीर पळोया. कान आनी दोळे हातूंत चार आंगळां
अंतर आसता म्हणपाचें जाणात मू तूमी ? ओगीच नमना आ
चंद्रावळ कित्याक? येयात तुमी म्हणटकच जालें.' अशें म्हणू
तो सवंयेप्रमाण रुमाल सोडौन परतो बांदूंक लागलो. आन
'येयात आं. येयात आं!' म्हणत सपणां देंवन चलूंक लागलो.

दुसऱ्या दिसा साडेपांच वरांचेर,ज्या इश्टाकडल्यान हांवें सगल
माहिती मेळैल्ली ताका वांगडा घेवन, हांव त्या चलयेकारागेर गेलो
कामत आनी चलयेचो बापुय म्हजी वाट पळेतच राविल्ले. म्हगेल
तो इश्ट म्हजेवांगडा थंय थारूंक तयार नाशिल्लो. म्हाका घ
दाखौन तो परतूंक पळेतालो पुण कामतीन 'बस गा!' म्हणू
ताका राववन घेतलो तो कुचमकुचमत बसलो. तो वांगडा येवंक
तयार नाशिल्लोच. हांवेंच ताका ओडीत म्हणटात तसो थंय व्हेल्लो
तो भोगाक सांपडलो.

साडेपांचाचीं स वरां जाली तरी कामत आनी चलये बापूय
हांच्यो यरादारी चालूच उरिल्ल्यो वेळ कित्याक लागता तें म्हज्य
लक्षांत येना जावन म्हाका चिमटे येवंक लागले. सचीं साडेस
जालीं तरी होंकल भायर आयली ना. वेळ वता तशीतशी म्हजी

तकली कणकणूंक लागलो. आतां फाटीं फुडें पळेनासतना उठून चलूंक लागचें अशें य म्हज्या मनांत येवंक लागलें. पुण रातेरांत अडचल्ल्या हुंदराबरी आमकां मनांतल्या मनांत फडफडत ओगी रावचें पडलें. उलैतलो तरी कितें?

तुमकां कितें सांगतलो! वराभरयान एक एक नवोच मनीस भितर सरून, दारांतच जोतें काडून, पातळायल्ल्या जमखनाचेर येवन बसूंक लागलो. हें जमखन कित्याक पातळायलां काय, अशें पैल्या फाराकच म्हज्या मनांत आयिल्लें. थंयच ओल्तेर कदेलांय बी आशिल्ल्यान आमी कदेलांचेर बशिल्ले. जमखन कित्याक पातळायल्लें तें आतां म्हाका कळ्ळें. थोडयाच वेळांत पंदरा वीस धवेमेळे थंय स्थानापन्न जाले आनी गजाली करूंक लागले. तातूंत चारपांच जाण म्हज्या वळखीचेय आशिल्ले. ताणीं म्हाका हटकून म्हजी खबरमात घेतली तोंडार हांसो हाडून हांव तांकां जाप दितालों खरो, पुण संतापान म्हजी तकली तापूंक लागिल्ली. लजेन आनी उद्वेगान हांव गोंदळून गेलों. एकाच वेळार म्हज्या तकलेंत असंख्य विचारांनी घुरी घाली. म्हज्या मेंदवाची चेंदड करून उडैली.

पाचधा मिनटानी फळाराचीं ताटां भायर येवंक लागलीं. कामत उण्णाच मारतालो. लडायेंत जैत मेळैल्या वीराच्या तोंडार तळपता तसलें तेज ताच्या खुमण्यार लकलकता अशें म्हाका दिसलें. म्हज्या तकलेंत जें गिरमीट चालू जाल्लें ताका लागून म्हाका घडये तशें दिसलें जावंये.

खाशेलें ताठ घेवन होंकल म्हज्या म्हन्यांत आयली आनी तें दवरून पर्थून भितर वचूंक लागली तेन्ना म्हज्या दोळयार संतापान काळोख येवंक लागिल्लो म्हळयार अतिताय जावंची ना. आतां

तिनसांजय जाल्ली. ताचोय तो काळोख आसूं ये. त्या काळखांत
केसरी रंगाचें पातळ न्हेशिल्ली आनी काल्यांत पुतनेचें रु
लायतात तसलें मुखें आशिल्ली ती होंकल म्हज्या दोळ्यांसामक
नियाळून गेली. पुण तकली वैर काडून तिका निरखूंचेली इत
म्हज्या मनांत उरूंक नाशिल्ली कामत धाजाणांदेखत म्हज
गोमटेक कोयंडपास आवळूंक पळेता म्हणपाची एकच गजा
म्हज्या मेंदवाचेर भौन भौन घण मारताली. सुंदरकायेविशींच
म्हज्यो कल्पना, आवडी, रुची, बासनांत बांदून दवरून, ए
चलयेकाराक त्रासांतल्यान सोडौपाखातीर हांव दाटून हयका
दिवपाक तयार जायनय आशिल्लों. पुण कामतीचो तो फा
पारध्याचो कावो पळेतकच म्हज्या प्रतिकारबुद्दीन म्हज्या मनाच्य
मोवसाणीचेर तेजाब ओतलें. ती जंयच्या थयच करपून गेली
भायर सरतना कामतीक हांवें कितें सांगलें तें येत्रजूयेवजून
म्हाका उगडास जायना. पणजे पर्यून तो म्हाका सोदूंक आयलोन
इतलीच म्हाका याद उल्ल्या.

# धाकूली जोण!

इगर्जेची घांट जाली आनी साडेबारा वरां जालीं म्हणपाचें
धाकू मणेरकाराल्या ध्यानांत आयलें. सदा तो बारा वरांचेरच शा
धांपून घरा वेतालो. पुण आज गिरायकांची तांडी आशिल्ली
कोणाकच नाखुष न करपाचो ताचो सबाव. चिमटे येतासतना आनी
हिस्पाभायर पुरो जालां आसूनय सुटना जावन ताका केस
कापीत रावचें पडिल्लें. काम सोंपैतलों आनी शाप धांपून घरा
वतलों अशें तो येवजितालो. पुण एक एक नवेंच गिरायक येवन

बसतालें. आज आफिसांक कसलाशा परबेक लागून सुटी आशिल्ली दिसता. ताका लागून तागेल्या कुळांक आज आयतीच मेकळीक मेळिल्ली. तिचो लाब घेवन म्हैन्याचो वात्र काडून उडौपाखातीर ताणीं आज एकच तांडी केल्लो पैशे कितलेय जाय जाले म्हणून स्रमांक्य मर्यादा आसता काय ना ! धाकूचें आतां म्हातारपण जाल्लें. पैलींच्या सारकें वरांचीं वरां उबो रावन आनां ताच्यान कातरकाम जायनाशिल्लें. हाताक कणकण येताली. कमरांत दुखूंक लागतालें. दोळे कसकसूंक लागून तांचेर साय मांडिल्ल्यावरी जाताली. तरी आसतना पोटाच्या जाळांक आनी तीन मनशांच्या संरक्षणाखातीर ताका सुमाराभायर कश्ट करचे पडटाले.

एका वेळार धाकूल्या घरांत तो, तागेली बायल, तीन पूत, एक राडांव भैण आनी तिगेली एकली एकसुरी धूव, इतलीं मनशां आसतालीं. तीन पुतां फाटल्यान तागेर दोगी धुवो जाल्यो पुण त्यो वांचल्योना निमाण्या फावट तागेल्या बायलेक बाळंतपिडा लागली आनी ती सासणाचीच हातुण्णार पडली. हालीं हालीं तिका बारीक जोर येवंक लागिल्लो. रांडाव भैण घरांत आशिल्ल्यान धाकूल्या संसाराची उस्तवारी जथापथ चलताली. जाल्यारय तिचो शेक धाकूल्या पुतांचेर चलनाशिल्लो. ते भुरगेपणापसूनच पारपोळ आनी तवनास जावक लागिल्ले. धाकू दीसभर शापांत आनी आवय कुडींत हातुण्णार. मावळण वात्रांत घुसपलेली. तांकां हटकितलो आणी दाटायतलो कोण ? ते शाळेंत वेतात काय वाऱ्यार वसू भोंवतात, शिकतात काय तर्पाशोरपणां करतात, ताची वासपूस करपाक कोणच पावनाशिल्लो.

तिगेली धूव मात भौबरी. पोर लक्तुबायेचें आनी तोखणाय करपाचें. जितलें रुपेस्त तितलेंच गुणेस्त. तोंड सदा हासतें आनी

फुललेलें. पडत ते कश्ट उसपपाची सवंय. ताका उबगण आनी फडफडो आयलो अशें केन्नाच जालेंना. शाळेंत वचून चार बुकां तें शिकलें फात्रिल्ल्या वेळार शेजारच्या बामणांगेल्या चलयांकडल्यान बुकां हाडून वाचपांत ताका भो खोस जाताली. शिवूंक विणूंक आनी रांदूं शिदूंकय तें भेस बरें जाणा आशिल्लें. एकाच उतरान सांगचें जाल्यार, बामणांगेल्या शिटूक आनी बुदवंत चलयांक लेगीत फाटीं उडयसारके कामण्याले गुण आशिल्ले.

पुण कामणें जल्माक आयलें आनी गोमतीलें आयावपण सोंपलें ! गोमतीच्या मनांत भल्लें, पोर उरफाटया पायांचें. बापायक खावपी ! ताणें कामण्याक सासणाचेंच उंवाळून उडयिल्याबरी केलें सगलीं नात्यापात्याचीं, शेजारीसामारी, परकी आरकी मनशां लेगीत कामण्यांक तोखेतालीं. पुण आवैन मात ताका केन्नाच म्हऱ्यांत काडलें ना. ताच्या फाटीवेल्यान अपुर्बायेन केन्ना हात भोंवडायलो ना. ताका केन्ना बरें उतर दिलें ना. परतें किचकिचावन आनी गाळी फस्ती करून ताका सदाच रडैलें. ल्हानपणांत आवैल्या पाडेपणाचो आनी आपणावेल्या किवाटयाचो सारको अर्थ ताका कळनाशिल्लो. पुण समजूंक लागलें तशें आपलो राग आवैक कित्याखातीर येता तें ताका कळ्ळें. तेन्नासावन आवयविशींचो ताचो द्वेश ना जालो. परतें आपलें नशीबच उरफाटें अशें ताका दिसूंक लागलें. जलमान न्हय जाल्यार कर्मान तरी आवयचो मोग मेळौंचो म्हणून जीव बुड्डून आवैचो जीव धादोशी करपाचो यत्न तें करूंक लागलें. पुण उमथ्या कळशार उदक ! गोमतीली कामण्याविशींची तिडक केन्नाच न्हिवली ना !

धाकून मात कामण्याक खाशेल्या धुवेसारकें, घटकाभर चडच लेखलें. बापायचो उणाव ताका इल्लोय दिसूंक दिलो ना. देवान

दिल्ल्या धुवांतली एकय वांचली ना म्हणून ताका जाल्ली खंत कामण्याक लागून इल्ली इल्ली करून सोंपली. भल्लेल्या संसारांत एकसुरेपणाची जाणविकाय तागेलें मन पोखरताली ती कामण्याक लागून निसरली. आपणालें दुःख कामण्याच्या कौतुकांत खिणभर तरी विसरपाची ताका सवंय जाली. बापूय नासून आनी आवय आसून सारकेंच पोर जाल्लें कामणें मामाकच आपणालो आवय बापुय लेखपाक शिकलें. जिणेंतल्या गुफाट काळखांत चान्न्याची ल्हानशी पसय पडिल्ल्याची ताका खोस जाली. कामण्याल्या जिणेंत विसरांतीची म्हणपासारखी सुवात ही इतलीच आशिल्ली.

धाकूल्या शापांत जायते सोयऱ्याधायऱ्यांले आनी इश्टांले भुरगे येवन रावले आनी धाकूलें कसब शिकून फिशाल म्हाले जाले. आतां तांतल्या कांय जाणानी आपणालीं खासा शापां उक्तीं केल्लीं. धाकूक सदाच दिसतालें, इतले भुरगे आपणाल्या हातासकला शिकून नावाजते जाले. अशेंच पुतान राघूनय शिकचें. आपणालें शाप फाटल्यान चलौपाची देख घेवंची. तो तरेतरेन पराथलो आनी पुताक शाणोसुर्तो करपाचो खूब यत्न ताणें केलो. पुण राघून तें केन्नाच कानामनार घेतलें ना. ताका म्हालेपण उणाक आनी दशा होगडावणें दिसतालें. उणाकपण खंयच्याच वाव्रांत नासता, खंयचेंय काम अयोग्य रीतीन आनी फटिंगपणान करपांत आसता, म्हणपाचें ताच्या तकलेंत केन्नाच आयलें ना. ताका दिसतालें बरपाक्षरी मनशांचीं कामां श्रेष्ठ आनी सन्मानाचीं. डाक्टर, वकील, प्रोफेसोर, येंप्रेगाद बी जावप व्हडपणाचें; म्हालो, मडवळ, मेस्त, शिंवपी बो जावप उणाकपणाचें. ताच्या ह्या समजाक लागून बापायच्या कामाविशीं तर ताका तिरस्कार आशिल्लोच. तातूंत बापायच्या समजावणीची भर पडिल्ल्यान तो

आनीकच चाळवलो. बापुय सांगतालो, ‘ पापया बरें करून येवज
बामणाली देख घेवन बामण जावंक सोदूं नाका. बामणपणापर
म्हालेपण केन्नाय बरें. म्हालो बामणाबरी कोणाचो लाचा
आसना; मिंधो आसना. ताच्या नशिबाचो तोच धनी. ताच
स्वतंत्रकाय येंप्रेगादाक मेळचेली ना. तू ह्यो तकलेंतल्यो किडं
काडून उडय. शिकून लेत्राद जावपाची वुद्द पुण तुका देवान दिल्लं
जाल्यार म्हजं काय म्हणणें आसचें नाशिल्लें. बेश्टीच तकलं
धाडायली म्हणून गिन्यान मेळना ! कुंडो काडून फोव मेळनात
उफाट्ट हाताक मात फोड येतात ! तुगेल्यो सुक्यो बडायं
चलौपाची, तूं मागता तेन्ना तुका पैशे दीत रावपाची तांव
तुगेल्या बापायक ना, म्हणपाचें लक्षांत हाड. शापार येवन कामाव
लागशी जाल्यार दुट्टी फायदो जावन तुज्या वायटकान्न गावैत्र
ओखद विर्सद करूंक तरो मेळटलें. फुन्न्यासवाय जाणवायांक
लागून तुगेल्याच व्हडल्या भावांची कितें दशा जाली ती पळेली
मू ? पापया तूं पुण शाणो जा.’ पुण कित्याक उपकरता ! सोरपाक
घाल्ल्या दुदाचेंय विख्ख जाता म्हणटात. धाकूलो उपदेस राघूक
शाणो करूंक पावलोना. परतो धाकूविशीं ताच्या मनांत द्वेश मात
इल्लो इल्लो वाडतच रावलो.

बायल सासणाची हांतुण्णार, पांच भुरगीं जालीं तांतलीं दोन
जातनाच गेलीं. उरिल्ले तीन पूत आसून नाशिल्ल्या बरीच जाल्ले.
सत्तावीस अठ्ठावीस वर्सांचो व्हडलो पूत चंद्रकान्त वायट संगत
आनी नष्टी देख मेळिल्ल्यान ताची सासणाचीव विपत्त जाल्ली.
धाकूल्या तीनय पुतांक म्हालेपणाचो द्वेश आनी तिरस्कार खंयच्यान
रक्तांत किल्ललो देवाक खबर ! घडये धाकूल्या बायलेकच
घोवाची लज दिसताली आनी मनांतल्यान तिका येंप्रेगाद घोवाचे

हुटहुटे आशिल्ले जावंये ! धाकूल्या संसाराची जाल्ली वाताहात तागेल्या बायलेच्या पायसरान जाली, अशें गोमतीक तागेल्या शकून मानपी सभावाक लागून, दिसतालें आपणाली धुव उरफाटचा पायांची तशीच ही भात्रजय बी, अशे उद्गार तें असवडीं लोकांकडेन रडत काडटालें.

धाकूल्या तीनय पुतांक येंप्रेगाद जावपाची वज. तिगांय पुतांत चंद्रकान्त चड बोंडेर. ताणें खूब वर्सां इश्कोलांत काडलीं. पुण सेगुंद ग्रावाचो तिळो काय ताच्या कपलाक लागलो ना. धाकून जुविजांतल्या इस्क्रिरावांक भीड घालून ताका कार्तोरींत कॉपी काडूंक दवरलो. पुण थोडयाच दिसांनी ताका चिकानां करपाची आनी लोकांले प्रेपाराचे पैशे खावपाची गोडी लागली तें ध्यानांत येतकच इसकिरावान ताका धावंडावन घालो. असलींच दुसरीं कामां मेळोपाचो ताणें यत्न केलो. पुण ताची दुश्कीर्त पणजेभर जाल्ली. ताका कोणच लागीं करीना जालो. अखेरेक मिझेरि-कोर्दीच्यो सोर्ती विकपाचें काम तो आज पासार भोंवडी मारून करूंक लागिल्लो. खावंक काळ आनी भुंयेक भार म्हणटात तशी तागेली गत्त जाल्ली. कोणालेंय तरी पोर हाडून ताच्या गळयांत बांदचें, म्हणटकच तरी तो संसाराक लागतलो, अशें येवजून धाकून म्हाडुोळचे एक नात्यांतलें भुरगें हाडून ताचें लग्न, तो कार्तोरीत लागलो तेन्ना, केलें. पुण घोवाचे गुण पळौन आयकून बायल जी एकदा कुळरा गेली ती पर्थून केन्ना आयलीच ना. घोवाकय ती घरा येवंची अशें केन्ना दिसलें ना.

दुसरो पुत श्रीकान्त. तो तांतल्या तातूंत तकलेन बरो. ताजीं सिसेवाची तीन वर्सां जातकच मामान ताका फाजेंदाच्या इस्क्रि-व्हांव एझेकुसांव फिश्कालाच्या कोंकुसकि बसौन पास करून घेतलो.

आनी ताका फार्जेदांत रिगयलो. आज तो केपेंच्या फार्जें
सिर्व्हीस करतालो मामान ताका धूव दिवन जांवय केलो. मा
कर्ने विचारता. आदोंच बाय नाचरी आनी पायांत बांदली घा
म्हणतात तशें ताचें जालें. तो मावोडयाकच सवंकलो. चु
केन्नाय घरा पणजे आयल्यार येतालो.

दोगय व्हडले पूत घरादाराक वुंवाळल्लेशे जाल्ल्यान धाक
सगलो जीव राघवाचेर एकठावलेलो.निदान ताणें तरी वाडवडलां
वेवसाय सांबाळचो अशें ताका सभाविकच दिसतालें. पुण राघव
कितें दिसतालें तें तुमकां सांगून जालांच. मनांतल्या मनांत हुडव
जिरौन धाकू निर्शेवन आशिल्लो.

कामण्याचेर धाकूचो जीव आशिल्लो हें तुमका सांगलांच.
आतां होंकल जाल्लें. ताका सून करची म्हणपाचें धाकून येवज
दवरलेलेंच. तें तागेल्या उलवण्यांत केन्नाय उक्तें जातालें.

एक दीस ताणें गोमतीक कुशीक आफौन आपणाल्या मनांत
बेत ताका सांगलो. गोमतीक सण्ण जालें. तें धुवेची निखट्ट
करतालें खरें. पुण कामण्याक धोव ताच्या रूपागुणांक फावसार
मेळचो, आपणें जल्मभर ताका जें दुःख दिलां तें भरून काड
ताका सुखाच्या माचयेर व्हरून बसौपी आसचो, अशें गोमती
दिसतालें. तुमकां घडये अजाप जातलें. पुण मनशाच्या सबावाइत
अजापाचें दुसरें कितेंच आसचें ना. आवैचें काळीज आनी तों
हीं अमृतान आनी विखान सोमतींच भरिल्लीं आसूं येता
हें गोमतीच्या सबावावेल्यान खात्रीन सांगूंक येता !

धाकूलो प्रस्ताव गोमतीक मानलो ना. पुण आज सोळा सतर
वर्सां तें धाकूल्या आस्रयाक राविल्लें. भावाची ताका मायास
आशिल्ली. आपुण आनी आपणाली धूव हांच्या सुखाखातीर

ताणें नुलैत केल्ले कश्ट ताच्या दोळयांसामकार उबे रावतकच तागेल्या उपकारी मनाच्यान भावाक मोडो घालूंक नज जालो. तें हां हूं कांय करीनासतना ओगीच रावलें.

धाकू पिसो न्हय आशिल्लो. तो मनांतल्यान समजलो. घटकाभर ताका दिसलेंय, म्हगेल्या हांवेक लागून भांगरासारक्या भुरग्याची वाट लागली अशें जावपाचें ना मू देवा ! पुण सुवारथान ताचें मन मोटवें जाल्लें. कामणें सदाचेंच आपणाल्या घरांत उरचें अशें ताका दिसतालें. कामण्याल्या नशिबान पुण राघू शाबुद्दीर येत, अशी एक पिशी आस्तय ताच्या मनांत उदेल्ली. ताणें कळवळयान सर्गदन जावन मनांतले विचार गोमतीक सांगले गोमतीन मोन्यांनी सगलें आयकलें. पोराच्या नशिबांत आसा तशें घडतलें, ताणें मनांत म्हळें आनी धाकूक जाप केली, ' हांव कितें सांगूं ? तुका बरें दिसता तशें कर.'

जालें. सगलें थारायल्ल्याबरी जालें कामणें आनी राघू हांकां मनांतल्यान कितें जाय नाका तें पुण विचारून पळोंचें अशें भावभैण दोगांकय दिसलेंना. कामण्याक कितें विचारचेलें सांगतां ताका तें माळ घालतलेंच, गोमतीन येवजिलें. तें लटिकय न्हय आशिल्लें. कामण्याक विचारलेलें जाल्यार आपणाल्या मनांतलें खरेलें सतरा धाकण्यांच्या बशेदांत धांपून दवरून आनी आपणाल्या निर्शणेक हांशाची, फटींच्या खोशयेची ओप काडून तें हां म्हणटलेंच आशिल्लें. कामण्यासारकें भुग्गें व्हडा पुण्यायेनच जल्माक येता !

धाकून राघूक विचारपाची गरज ना अशें मानून लग्नाची तयारी केली. ती मात व्हड चूक जाली. ताकाय तें मागीर कळून आयलें. धाकूल्या इत्सेप्रमाणें कामणें घरांत उरपाचो योग नाशिल्लो. आपुण पर्थून केन्नाच तोंड दाखौंचो ना अशें ताणें चिटीत बरौन दवरलेलें.

जालें कितें काय म्हळचार घरांत चलता तो बोवाळ प
राघू शिटकावलो. फुड कितें घडपाचें आसा तें ताणें जा
लग्नाच्या म्हुर्ताक चार दीस आसा म्हळचार राघून बापायक
बरौन दवरून ताणें तडक मुंबेची वाट धरली.

चीट वाचून धाकू सामको निर्णलो. ताच्या आंगांतलें रग
सुकिल्ल्याबरी ताका दिसलें. आपुण दुःख आनी वेथा भोगूं
जल्माक आयलां म्हणपाची ताची खात्री जाली.

कामण्याचो भोग मात सरिल्लो. तागेली तपश्चर्या वेथ
गेली नाशिल्ली. राघूच्या लग्नाच्या केल्ल्या तयारेंतच धाकून द
म्हूर्त फुडें धुकलून कामण्याक फावसो आनी सोबसो भुरगो सो
काडलो आनी कामण्याक लग्न करून सुखाक पायलें. जल्म
धादोशी आनी उपकारी जावन कामणें घोवागेर गेलें.

आनी आज धाकूली जीण कशी चल्ल्या तें हांवें तुम
सुर्वेकच सांगलां. दुसरें म्हाज्ज पेटिल्लें. म्हार्गाय तापिल्ल्य
धाकूली जोड संसाराक पावनाशिल्ली. शारांत नवीं नवों फिनिस्क
शॉपां जाल्ल्यान तागेल्या शापांत तागेलीं कांय पोरणीं कुळा
येतालीं. नवो कोणय चुकून माकून आयल्यार येतालो. चंद्रकांता
आतां घरांत पाय दवरपाचें बंद केल्लें. तो खंय जेवतालो आन
खंय न्हिदतालो तें ताकाच खबर. श्रीकान्त तर घरजावयच जाल
तोय आतां घराक विसरलेलो. आनी राघून आपलें उतर खरें करू
पर्थुन केन्नाच तोंड दाखैलें नाशिल्लें. तो मुंबैच आशिल्लो का
आनीक खंय गेल्लो देवाक खबर. धाकू, ताची वायटकान्न बाय
आनी गोमती देवाच्या आपवण्याची वाट पळेन आइल्लो दीस
धुकलीत आशिल्लीं.

# निसर्गाचें जैत

एकच धंदो वा वेवसाय करतल्या दोन मनशांमजगती दुस्मानपण येवप हो मनशांचो सबावगुण म्हणूक जाय. अशें घडप हो नेम आनी तशें नासप हो आडवाद अशें म्हणपाइतलें ह्या संबंदांतलें प्रमाणचड करून पळोवंक मेळटा दोन पसरकार एका गावांत पसरे घालून वेपार करूंक लागले जाल्यार तांचे पसरे खंय आसतलेशे तुमकां दिसता ? ते दोगय सामके एकामेकाक खेटून एकाच सुवातेर आपणाले मांड घालतले ! सगलें गिरायक आपणाकच मेळचें आनी दुसऱ्या पसरकारान मूम आमुडचें, अशें ते दोगय मनांत येवजितले. एकमेकाचेर चडाव करून दर देवौन, आनी लुस्कान सोंसचें पडलें जाल्यारय पर्वा ना अशें म्हणून, आपणालो म्हाल खपोवपाचो नेट लायतले खऱ्यानशीं म्हळयार ताणीं एका-मेकाचो पाखो धरून वेपार करपाबदला गोडयन रावप आनी एकल्यान एका वाडयार पसरो घालो आसल्यार दुसऱ्यान पैस दुसऱ्या वाडयार आपणालो पसरो घालप हें गिरायक वाडपाच्या आनी गावांतल्या सगल्या लोकांची वेवस्था जथापथ जावपाच्या नदरेन शाणेपणाचें न्हय ? पुण ते अशें केन्नाच येवजूंचें नात. दुस्मान कशे दोगय एकाच सुवातेर मांडून बसतले आनी प्रसंगार एकामेकाची विपत्त करून कातली भाजीय करपाक अनमनचेनात जी तरा पसरकारांची तीच म्हाल्यांची, मडवळांची, चांभारांची, इतलेंच न्हय तर वकिलांची आनी वैजांची लेगीत !

आतां हांव जी तुमकां खबर सांगतलों ती दोन वैजांचीच शिकिल्ल्या सवरिल्ल्या आलोपाथ डॉक्टरांची. दोगय दोतोर पणजेच्या इस्कोल मेदिकाचे पदवेकार. दोगांचेंय शिकप एक. कूर्स

एक, आनी दोगालेंय गिन्यान साधारणपणान एकच मागी
अणभवांत कितेंय आगळेंउणें आसूं. पुण एक बारीकसाण
आशिल्ली. दोगय दोतोर ख्रिस्ताच्या धर्मांचे पालवी आसले
जाल्यारय तांतलो एक आशिल्लो बामण आनी दुसरो जातीन
सुदीर. अस्तंतेची संस्कृताय घवनय आनी बरपाक्षरांत एकच
शीम हुपूनय आपणाले आदले वाडवडलांचे जातिभेद विसरूंक
मात ते तयार नाशिल्ले.! रोटीवेवारा मेरेन ताणीं फुडाकार
घेतिल्लो खरो, पुण बेटीवेवाराक तांगेली इल्लीय मान्यताय मेळ
नाशिल्ली. मोगाचीं लग्नां लेगीत जातपात पळौनच जातालीं
बामण चल्याचो मोग बामण चलयेचेरच बसतालो आनी चाडु
वा सुदीर हांचो मोग बामण चलयेचेर बसलो जाल्यार त्या मोगाक
निमाणें अपेस पत्करून फाटीं सरचें पडटालें. निदान घरच्यांचे
बेंसांव मेळौपाचें नशीब ताणीं करूंक नाशिल्लें. मार खावन
उवाळून घराभायरीं जावपाचें अशा चलयेच्या नशिबांत आसतालें

सांगपाची गजाल म्हळ्यार हे दोगय दोतोर गिन्यानान एका
पतीचे आसूनय कातीन आनी रगतान एकमेकाक उंच नीच समज
ताले. दोगय त्या वाठारात परकी आशिल्ले. तांतलो एक
आशिल्लो देलेगाद साऊद, म्हळ्यार आरोग्यरक्षक आनी दुसरो
आशिल्लो ओफशाल रेजिस्त सिव्हील, म्हळ्यार जल्म, लग्न
मरण नोंदणी खात्याचो अधिकारी. सरकारी जाळवणदार म्हणून
ते थंय पाविल्ले. दोगय वैजकी करताले. दोगांयकडेन लोक
ओखदाक वेताले दोगांकय घरा व्हरून वायटकाराक दाखैताले.
आनी दोगांलींय ओखदां घेवन, हांतुण्णार पडलेले मनीस बरे
जाताले वा मरताले.

पाऊणशें वर्सांपैलींची ही खबर त्या काळांत गोयांत हिंदु

आलोपाथ दोतोर साप्प थोडे आशिल्ले. ताका लागून किरिस्तांव वैजांचेरच सगल्यांक पातयेवन रावचें पडटालें. किरिस्तांव कुटुंबांत तीन भुरगे आसल्यार तांतूतलो एक पाद्री, दुसरो आदव्होगाद आनी तिसरो मेदिकु म्हळयार वैंज जावप ही फातरार चिरिल्या रेगेबरी वयवाट जाल्ली. चवथो पूत आसल्यार तो जातालो प्रोफेसोर प्रिमारियु म्हळयार शाळामास्तर ह्या वयवाटीक लागून किरिस्तांव भावांत सरकारी येंप्रेगादांप्रमाणेंच प्रोफेसियोनाल म्हळयार स्वतंत्र वेवसाय करपी बरपाक्षरी खूबच आसताले. त्या मानान हिंदु भाव कितलेशेच फाटीं आशिल्ले. वेवसाय तर नाशिल्लेच म्हळयार जाता. अशा त्या वेळार त्या म्हालांत हिंदु आलोपाथ दोतोर एकय नाशिल्लो म्हणपाचें वेगळें सांगचेली गरज ना. सबाविकच, आयुर्वेदाचीं आसवां आनी भस्मां न घेवपी, केरी, काजरांत, माशेलांत, व्हडल्या गोयां, कुंभारजुव्या, धुळापेर ओखदा विसंदाक न वचपी लोकांक म्हालांतल्यां किरिस्तांव सुर्ज्यांवांचें आनी बुतिककाराचें ओखद घेवपाबगर दुसरो उपायच नासतालो.

ह्या दोन दोतोरांतलो देलेगाद साऊद हातगुणान बरो आनी परीक्षा करपांतय लापीट आशिल्ल्यान झकत सगले लोक ताचेसरीं वताले आनी ताणें फर्मायल्लीं विलायती ओखदां घेताले. पुण तोंड फटकळ आशिल्ल्यान आनी हिंदूंल्या रीतरविशेच्यो तो बकच्छायो करतालो हाका लागून जायत्या जाणांक ताचेसरीं वचचें म्हळयार मरणसंकस्ट जातालें. वायटकाराक पळोंक व्हरतकच घरांत भितर सरल्याबरोबर तो पयलो प्रस्न करतालो, 'मोत्ता तो फुंय आहारे ?' त्या प्रस्नान घरच्यांक कच्च जातालें. आचारवाणें दिसतालें. 'मरता तो' म्हणून विचारता कसो हो दोतोर ?

थुमेकाल ! कसलो मनीस हो ! पुण म्हालांत दुसरो दोतोरच ना जाल्यार बाबडे कितें करतले ?

अशी एकंदर अवस्ता आशिल्ल्यान तो रेजिस्त सिव्हीलकार दोतोर येतकच त्या कुचमणींत पडिल्या कांय लोकांक सूऽ जालें. ते ह्या नव्या दोतोरासरीं वचूंक लागले. आपणाक एक नवो प्रति-स्पर्धी आयलो म्हणपाचें आदल्या दोतोराक कशें रुचत ! ताका सबावीकच तें नसाय जालें.

तेन्ना म्हालांत फार्मास, म्हळ्यार ओखदांचे बुतिक, एकच आशिल्ली. आरंबाक दोनय वैजांले वायटकार त्याच फार्मासीतले ओखद व्हरताले. पुण दोगांय दोतोरामजगतीं दुस्मानपण येतकच त्या सुदीर वैजान आपणाल्या विस्वासाच्या तुसऱ्याच एका बुतिक-काराक हाडून त्या म्हालांत फार्मास घालूंक लायली. आनी आपल्यासरीं येवपी वायटकारांक त्या पूर्वील्ल्या फार्मासेंतलीं ओखदां व्हरपाक बंदी केली. त्याबरोबर दोनय वैजांमितल्लें दुस्मानपण आनीक पेटलें. चुकून वा हेर कितेंय कारणाक लागून एकादुकलो वायटकार दुसऱ्या वैजासरी गेलो जाल्यार तो ताका आलासरो दिवंचे बदला धावणात्रन घालूंक लागलो. गावांत सगल्या लोकांच्या तोंडांत हो विशय घोळूंक लागलो. लोक शिटूक जाले आपापल्या भावार्था-विस्वासाप्रमाणें आपणाल्या थरावीक वैजाकडेन संबंद दवरूंक लागले. दुसऱ्याच्या वाऱ्याकय उबे रावनात जाले.

पुण ह्याच अदमासाक निसर्गाच्या मनांत कितें आयलें कोण जाणा. ताणें ह्या दोगांय वैजांक बुद्द शिकौपाचें येवजिलें. त्या दुस्मानकायेच्या रुखाक गोड बरें अमृतफळ निर्मूपाचें ताणें थारायलें अशें म्हळ्यार चड बरें जायत. घडली ती गजाल अशी.

कसब्यांतल्या इस्कोलांत जों भुरगीं शिकूंक वतालीं तांतूत त्या बामण दोतोराली चली आनी त्या सुदीर दोतोरालो चेडो आशिल्लो. तो चेडो सेगुंद ग्राव शिकतालो आनी चली सेगुंद क्लासीक आशिल्लें. घरांत आयकूंक येताल्यो त्या गजालींक लागून दोनय कुटुंबांतलें दुस्मानपण दोगांकय बरेभाशेन खबर आशिल्लें. ताणीं खरें म्हळयार एकामेकापसून पैस पैस रावंचेले. पुण निसर्गान वेगळेंच येवजितकच भुरगीं बाबडीं कितें करतली ! त्या दोनय देवदुतां भितर एके तरेची विलक्षण ओड, आकर्षण उप्रासलें. बापायांभितर दुस्मानपण आसूं आपुण दोगांनीय तें नकळटयार घालून एकमेकांचे इश्ट जावंक जाय, अशें ताणीं येवजिलें आनी तीं दोगांय इश्टागतीन रावंक लागलीं. ही इश्टागत इल्ली इल्ली वाडत गेली तशी तातूंतल्यान मोगाची कळी फुलूंक लागली.

मोग करप हें हरशीं लिपचोरयांच आसता म्हणा; पुण त्या दोगांक आपणालो मोग आनीकच, म्हळयार माजर आपणालीं पिलां साता कोनशांनी लिपैता तसो लिपचोरयां, कोणाकच वास लागूंक दिनासतना, चलवंचेलो प्रसंग आयलो. तो लागत जाल्यार इस्कोलात वचूंक मेळत काय ना म्हणपाचो दुगदुग. आपणालो मोग चुकून लेगीत कोणाच्या नदरेक पडूं नये म्हणून तांकां खूबच आपालिपा करचें पडूंक लागलें.

तितले म्हणसर त्या भुरग्याली सेगुंद ग्रावाची परीक्षा जाली आनी फुडल्या शिकपाखातीर तो पणजे पावलो. इस्कोलांतली ती चान्नी रात उलगली. तो पणजे गेल्ल्यान सुटली. पुण घडये हाका लागूनच तांचो मोग चड चड घट जायत गेलो. चिटी बरवंचेलो मार्ग आशिल्लो. पुण तांच्यो चिटी तिच्याच हातांत पडपाची माण्णा

कशी जातली? चुकून हें कोणाच्या, कुटुंबांतल्या दुसऱ्या मनशाच्या हातांत पडल्यो जाल्यार घात!

बाबडयांनी दोन तीन वर्सां विरहवेथा सोंशीत कशीं काडलीं आसतलीं तांची तांकांच खबर. त्या चलयेक आपलो सेगुंद ग्राव केन्ना जाता आनी आपुणय पणजे केन्ना पावतां अशें जालें. त्या तीन वर्सांनी तो सुटीयेत घरा येतकच तीं एकमेकाक खंय कशीं खेंव दितालीं ती व्हडली अजापाचीच गजाल.

सेगुंद ग्राव जातकच तो चली पणजे लिसेवांत पावली आनी तांचो वनवास सोंपलो. तो आनी ती दोगांय लिसेवांत शिकतालीं. पुण थयय मेकळेपणान वावुरपाची संद नाशिल्ली.

वर्साफाटल्यान वर्सां गेलीं. ती चली लिसेवाचीं तीन वर्सां करून इस्कोल नोर्मालांत शिकूंक गेली तेन्ना तो लिसेवाचो कूर्स सोंपोवन इस्कोल मेदिकांत पाविल्लो. तो दोतोर जाता म्हणसर ही चली प्रोफेसोर जाली.

त्या दोगांय दोतोरांचें दुस्मानपण तशेंच चलत राविल्लें. पुण निसर्गान तें पोल करपाची येवजिल्ली माण्णो अखेरेक फळाक आयली ! आतां त्या दुस्मानपणाक कांयच अर्थ उरूंक नाशिल्लो. दोगांय भुरग्यांतलें गुपीत गावांत हळूहळू लोकांक कळ्ळें त्या अर्थीं तें घरांतय त्या दुस्मानांक कळ्ळें जावंक जाय.

तो दोतोर जातकच ताणें आफ्रिकेक वचपाचें थारायलें आनी जेन्ना त्या दोन मोग्यांनी इगर्जेंत वचून आपणाल्या तोखणायेच्या मोगाचेर काजामेंताचो भांगराचो मुकूट घालो तेन्ना त्या भुरग्याचो बापुय हो संसार सोडून गेल्लो आशिल्लो आनी त्या चलयेच्या बापायक निसर्गाच्या इत्सेफुडें मान बागोंची पडिल्ली.

# भूत भेष्टा

भुरगेपणांत रामकृष्टान भुरादेवचारांच्यो काणयो खुब आय-कल्ल्यो. तेन्ना तांचो ताका भयय दिसतालो. तो काळखाकच भूत समजतालो. काळखांत वचूंक थर्त भियेतालो. ताणें खरमस्ती केली, तो जेवना जालो, ताणें आडांगपणां केलीं, तो सांगिल्लें आयकना जालो, म्हणटकच घरांतलीं जाणटीं नेणटीं मनशां ताका 'हाऊकडेन दितां', 'हाऊक आपैतां' म्हणून भेष्टायतालीं. हो हाऊ म्हळचार रामकुष्टाच्या समजाप्रमाणे भुताचो भाव. नाजाल्यार देवचाराचो नातू आशिल्लो भुताच्यो खामोखमोय ताणों ताका सांगिल्ल्यो. भुताचे पाय उरफाटे आसतात. ताचें तोंड ज्या वाटेन आसता ताच्या उफाट्ट वाटेन तें चलता. भुताचें तोंड केन्ना दिश्टी पडना. फक्कत ताचीं पावलांच दिसतात. भुताचें हें वर्णन ताच्या तकलेंत घट्ट बशिल्लें. ताणें आपली कल्पना चलौन भुतांचीं जीं चित्रां दोळयांमामकार उबीं केल्लीं ती ह्या वर्णनाक धरून आसतालीं. रामकुष्टाच्या कल्पनेन तांकां मनशाचेंच रूप आनी आकार दिल्लो. तीं उलय मात नाशिल्लीं. मोनी आसतालीं, म्हणून जावंये. नाजाल्यार तांची वाचा देवान काडून घेतिल्ली आसूं ये ! पुण तीं रडटालीं भुरगेपणांत ताणें तांचें रडें केन्ना केन्ना आयकल्लें. धड माजराचो न्हय, सुण्याचो न्हय, शेवण्याचो न्हय, भालवेचो न्हय, पुण ह्या सगल्या आवाजांचें खतखतें केल्यार तांतूतल्यान ज्या पतीचो एक आवाज निर्माण जायत तसलो तो आवाज आसतालो. तो कानार पडटकच ताका थरथरो भरतालो. ताची सामकी गुळी जातालो.

रामकुष्टाचें भुरगेपण सोंपलें, ताका समजीकाय आयली, ताची

विचारशक्ती पोसवली तेन्ना ह्या भुतांच्या गजालींच्या मळणेंत सगळें पोलच भल्लां, तांतूंत एकय आसकडो मेळचेलो ना, म्हणपाचें ताका कळूंक लागलें काळखाक भियेवपाचें भुरगेपणांतच सुटिल्लें. पुण भुतांची भिरांत मात पुराय सुटूंक नाशिल्ली. खात्रीची सुवात दुबावान घेतिल्ली. भुतां नासतीत पुण हेर कितेंय आसूं ये. ओगीच लोक इतले भियेतात ? जाणटे आनी धीरवान लेगीत एकले एकसुरे रातचे, चड करून उमाशेच्या रातीं, मसण्णीत वचूंक इतले कित्याक कांचवेतात ? भुतां केन्ना पळलींनात खरीं. पुण तितल्यावेल्यान तीं नासतलींच म्हणून तरी कोणें सांगचें ? घडये आसतीतय. जें दिसना तें ह्या संसारांत नाच अशें तरी कशें म्हणूं येता ? पुण समजा, भुतां आसलीं जाल्यार तितल्यान कितें इबाडटा ? तीं मनशांक कांय एक करीनात मू ? जालें तर.

रामकुष्ट जाणटो जालो; शिकलो; जोडूंक लागलो. ताणें टपाल खात्यांत चाकरी धल्ली. ताका साकवाळे पोस्टांत मास्तर नेमलो. घरकान्नीक घेवन सांकवाळे बिराड करपाचें ताणें थारायलें तेन्ना भुतां म्हारवा विशींचे ताचे विचार हे अशे आशिल्ले. ताका लागून बिराडाखातीर ताणें त्या पोरण्या वशाड घराची शाकारणी आनी दागदुजी करपाक मानाय आपैले तेन्ना पोस्टमन आनी हेर अनवळखी लोक हाणी त्या घरांत चलतल्या भूतचेष्टेच्यो तरेक तरांच्यो खबरी सांगून ताका काचाकियार केलो. तूं दुसरें घर घे. ह्या घरांत नकलामी जाता. बेष्टो त्रासांत पडटलो, ताणीं म्हळें. पुण त्यो गजाली आयकून रामकुष्ट इल्लोय अनमनलो ना. ताणें तांकां जाप केली,

'हांव भुतां, म्हारू, देवचार मानीना. असले कोणय प्राणी ह्या संसारांत आसात म्हणून समजतात तें आदीं पिशेपण. पुण ते

खरेच आसल्यारय म्हाका तांची बाधा कित्याखातीर जातली सांगात पळौया. हांवें कितें तांची पोटली खाल्या ? तुमी म्हणटात त्या-प्रमाणें ह्या घरांत तांचे वास्तव्य आसलेंच जाल्यार थंय मनशां रावनाशिल्ल्यान आसा जातलें. मनशांनी सांडिल्ल्या ह्या घरांत हुंदीर, पाली, जल्ले, मावल्यो मातल्यात तशींच तुमी म्हणटात तीं भुतांय आसतीत. पुण आमी हांगा रावंक लागतकच तीं आपलें बिराड उखलतलीं. दुसऱ्या खंयच्याय सुवातेर रावंक वतलीं म्हणपाची म्हाका खात्री आसा. तुमी ओगीच इतले कष्टी कित्याक जातात ?'

पोस्टमास्तर म्हणून आयिल्लो रामकुष्ट त्या गावाक नवोच आशिल्लो. लोकांक ताची सवंकळ जावंचेली आशिल्ली. ताणें मस्करी केली तें तांकां मानलें ना. पुण कितें करतले ? 'अशें ? बरें आसा. येवं दी अणभव! म्हणटकच कळटलें. जातलो आपाप शाणो ! ' एकमेकांकडेन फुतफुतून ते ओगी रावले.

जालें. रामकुष्टान त्या घराची सफाय केली. रंग बिग काडून होकल कशी सजगयली. कोयराच्यो राशी हालौन, वायटी झडौन, घयरांव गुठलावन आनी बिळां पुरौन घर मनशांनी रावपासारकें केलें. घराची ती नुरा पळेतकच आनी भाडें दिवपाचें ना, फुक्याचेंच रावंचेलें, म्हणपाचें आयकतकच सीताबायक पलास भंगली अशें दिसूंक लागल्यार अजाप कसलें ? तिणें जाता तसो सोबीत संसार मांडलो. राजाराणी कशीं व्हड धादोसकायेन त्या पलाशेंत तीं रावंक लागलीं.

अशें राजाराणयेचें राज्य एक म्हैनोभर शांततायेन आनी कसलीच नकलामी जायनासतना असुदाय चल्लें. त्या घरांत पयले सात आठ दीस ताणीं ना म्हळचार हुस्कयान आनी दुगदुगान

सारले. बरें म्हळें म्हणून मनांवेले कदीमकाळाचे संस्कार खंय वतले ! आमी भुतां ना म्हणटांव पुण लोक सांगतात त्या भाशेन तीं ह्या घरांत खरेलींच रावतात आसत जाल्यार किते करतलो ? दीसभर तांकां कांयच पर्वा दिसनाशिल्ली. पुण रात जातकच्च मात जीव ल्हव जाल्ल्याबरी दिसतालो. रोखडीच न्हीद येनाशिल्ली. खंयय हुंदराचो नाजाल्यार हेर कसलोय आवाज, खट्ट, खट्ट जाल्यार कच्च जातालें.

पुण आठ धा दीस अशे अस्वस्ततेंत गेल्या उपरान्त मागीर ल्हवू ल्हवू सस्तताय येत गेली. हुस्को उणो जालो. धीर वाडत रावलो म्हैनो सुखांत गेलो. जीव सूऽ जाता म्हणटासर ती पयली नकलामी जाली !

भाद्रपद म्हैनो निकतोच लागिल्लो पावसाक ताव आयिल्ल्या-बरी जाल्ले सगलेकडेन हुंवार येवंक लागिल्ले. घरांतल्यान भायर भितर सरप जिवार येतालें रामकुष्ट दनपरां जेवक घराकडेन आयिल्लो. तो पावस आसरतलो आनी वतलो म्हणून वाट पळेतालो. बायल जेवन आवरदवर करताली. इतले म्हणसर घरार कोणे गोंकरे मारिल्ल्याचो आवाज जालो. घराचे नळे सुलचे आशिल्ल्यान टंव टंव आवाज आयकूंक आयलो. पैलीं तांकां करेच पडटान अशें दिसलें म्हणून भायर वचून पळेल्यार करे न्हय. कोणे फातर शेंवटोले काय म्हणून सराव घेतल्यार लागसार जाग ना. कोणाय पोरातोराचें काम जातलें, म्हणून तीं रावलीं, पुण पांच मिनटानी पथूंन तसोच आवाज आयलो. इतलेंच न्हय, एक नळो फुटून एक व्हडलो गुंडो नळ्याच्यो कयल्योय भितर पडल्यो. आता आनी दुबाव कसलो प्रत्यक्षच नाट मेळ्ळी. पुण हे गुंडे मारपी कोण ? तें उमाणें तशेंच उरलें. दोगांय मनांत

काचवेळीं. लोकांनीं तांकां शिटकायल्ल्याप्रमाणें जाल्लें. म्हणटकच भूतबाधा खरी तर ? पुण मनांतले विचार दोगानीय मनांतच दबरले. एकमेकाक उलौन दाखैलेनात. तितल्यान पावस आसरलो. रामकुष्ट पोस्टांत गेलो.

त्या रातीं हुस्क्यान दोगांकय न्हीद लागली ना. मात्सो दोळो लागता म्हणसर नळयार फातर मारिल्ल्याचो ओगीच भास जावन जाग येवंची! अशें कितल्याशाच खेपो जालें. अखेरेक सकाळ जाली तेन्ना जीव सूऽ जालो. तकलेंत घोंकणेक मात एक नवो विशय मेळून मन येवजणेंत घुस्पलें.

आनी कितें अजाप सांगतलो ! त्या दिसा दनपरां केन्नाच देखूं नाशिल्लें असलें एक नवल तांच्या नदरेक पडलें.

रामकुष्ट जेवंक बशिल्लो. सीताबायन शिताची तपली वायला-वेल्यान उखलून भायर हाडली. दायेन शीत काडून घोवाच्या ताटांत वाडलें. दिखळ फोडटा जाल्यार शितांत कचकचीत कोळशे! रामकुष्टाची वाचाच धरिल्ल्याबरी जाली. ताणें तकली वरशी करून सीताबायच्या तोंडाकडेन पळेलें. तिचें तोड सत्यभास काडिल्ल्याबरी जालें. तपलेंत शितापरस कोळशेच चड आशिल्ले. नवें शीत करून तीं जेवलीं खरीं. पुण तोंडाची रुच आनी पोटाची भूक भेरेल्ल्याबरी जाली ती जालीच.

त्या दिसाच्यान त्या घोवबायलेच्या खोशयेच्या दुदांत लिंबू पिळिल्याबरी जालें. सगले वेव्हार जथापथ चलताले. पुण तातुतली जीवसाण आनी उमेद सांडिल्ल्याबरी जालें. कितेंच करूंक मन घेनाशिल्लें. ही चल्ल्या ती भूतचेष्टा म्हणपाचो इल्लोय दुबाव आतां उरूंक नाशिल्लो. पुण ती जावंचो कित्याक आनी ती आपणाक अणभवची पडची कित्याक, तेंच तांकां कळना जालें.

‘आमचो गुन्याव कितें ? आमकां कित्याक ही ख्यास्त ? ह्या घरांत कोणेच रावूं नये असो ह्या भुतांचो वा दुसरे कोण आसतीत तांचो हेत दिसता. पुण तांचो असो हट तरी कित्याखातीर आसचो? हें घडटा कित्याखातीर आनी तें बंद कशें जातलें ?’ एक आनी दोन, सतरा प्रस्न तांचे मुखार उबे रावले. पुण तांची जाप मेळवप तांच्या हातांत नाशिल्लें.

त्या राती सीताबायन ल्हवूच खबर काडली. तिणें म्हळें, ‘तुमी दाटून ह्या घरांत बिराड करूंक फाव नाशिल्लें. तुमकां खबर नाशिल्लीशें काय न्हय. लोकांनी तुमकां आदींच सांगून शिटकायिल्लें. कित्याक तुमी हें घर पसंत केलें ? जावं, आतां तरी दुसरें घर सोदात. ओगीच सुखाचो जीव दुःखी करप नाका !

रामकृष्टाक हार पत्करप रुचलें ना. ताणें तिची समजाविशी करीत म्हळें,

‘आगे, अशें भियेवन उपकरता ? तूं जाणा मू, भियेतल्याच्या फाटल्यान ब्रह्मराक्षस म्हणटात तें ? भियेल्यार ही भुतांची चेष्ठा वाडूंक लागतली. कामाक्षेचो प्रसाद धेवन धाड म्हणून दामभटाक बरैलां. तो राखणेचो प्रसाद जालो म्हणटकच मागीर कसलोच हुस्को ना. भुतां काय आमच्या आंगांक येवन दसचींनात मू ? तशी वेळ आयल्यार मागीर पळंवयेत. पुण हांव तुका सांगतां. हें चारें उखललां आसत जाल्यार म्हाळ बीळ सोंपून उमास उलगली म्हणटकच सगलें थप्प जातलें. भुतांय म्हणून इतलीं पिशीं नासतात. तीं भेष्टावन पळेतात. भियेनासतना हटून रावतकच तीं खटू जावन आपशींच चलूंक लागतलीं. मौज पळे तूं !’

पुण रामकृष्टाल्या भरवंशाच्या म्हशीक रेडो जालो. दामभटान,

नड उबी रावता म्हणून कळैलें. ' तुमी आयल्याबगर उपकरचें ना. रजा काडून खासखुद्द येयात. ' असो निरोप धाडलो.

म्हाळ, उमास सगलें सोंपून नवरात्रां लागलीं तरी भूतचेष्टा इल्लीय उणी जाली ना. उफाट्टं ती इल्ली इल्ली वाडूंक लागल्या म्हणपाचेंच अणभवाक येवंक लागलें. व्हडे रातीं ल्हान भुरगे घरांत रडिल्ल्यासारको आवाज येवंक लागलो. एक फावट दांडयेर सुकत घाल्ल्या आंगोस्तराक उजो पेटून तें जळ्ळें घरांत रातचीं मनशां भोंविल्ल्याबरी, फुतफुतलेल्याबरी, हांशिल्ल्याबरी दिसूंक लागलें तरातरा जावंक लागल्यो. आनी व्हडलो धीर काडून गजाली सांग, त्या रामकुष्टाकय, आपलें पिशेपणच जालें, अशें हिसूंक लागलें. तरी आसतना तें घर सांडचेली तजवीज करप मात ताका रुचलें ना.

सीताबायची अवस्ता मात काकुयट करपासारकी जावंक लागली. एकदा तिका कुळरा वचचें अशें दिसलें. पुण रोखडेंच तिचें मन खावंक लागलें. घोवाक असल्या ह्या संकइटांत एकलो सांडून वचप मनीसपणाभायलें जावंचें ना, अशें मनांत येवन ती खट्टू जाली. एके वशेन वाघ आनी दुसरे वशेन सोरोप म्हणटात तशी तिची गत्त जाली. नित्याक कामाक्षेक गाराणीं घालून ती दीस धुकलूंक लागली.

अखेरेक सीताबायची काकुयट पळौं नज जाली, म्हणून जावंये, भुतानीच एक दीस आपणालें विस्वरूप दाखैलें आनी दुसऱ्याच दिसा बिराड उबारून तें घर सांडूंक लायलें ! घडली ती गजाल अशी.

आश्विन शुद्धांतली दुवादस काय तिरोदस आशिल्ली. दुसऱ्या दिसा पणजे वचपाचें येवजून रामकुष्ट बेगसारच न्हिदिल्लो.

## वळेरी



---

'वेगीं जागो जालोना जाल्यार म्हाका उठय आं !' म्हणून सीताबायक सांगून कूस परतिल्यार अर्दवर पाऊणवर जाल्लें आसत, एकदम व्हड्डान किळंची मारीत तो न्हिदांतल्यान जळपेवन उठलो आनी दिवो पेटौन हांतुण्णार बसलो. ताका धाप लागिल्ली. तोडांतल्यान उत्तर फुटनाशिल्लें. तें पळेतकच सीताबायचो आवरो उडलो. तो हेवशेन तेवशेन पळेत राविल्लो. आपुण सपनेलो म्हणपाचें ताच्या ध्यानांत आयलें. जाल्लें कितें काय म्हळयार, कोण एक गालमिशांचो भयांकुर मनीस आयलो आनी गची आवळून प्राण घेवंक सोदूंक लागलो, अशें रामकुष्टाक दिसलें. आकांतान तो किळंची मारीत उठिल्लो. तो काळ खंय लागसार ना मूं म्हणून तो हेवशेन तेवशेन पळेत राविल्लो !